जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक २ : सप्टेंबर २०२०

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्रापटान धाडची.
ड्रापट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...

०२ सोतेरबाबाक आर्गां: ............ दामोदर मावजो

०३ फामाद गजलकार राहत इंदौरी: ............ सखाराम बोरकार

०४ म्हजे यादींतलो आईचो हातचो सुवाद... : ............ दिलीप बोरकार

०८ केळेकार घराबो............ गुरुनाथ केळेकार

०९ गोंयच्या लोकसंस्कृतींतलो पावस............ राजेंद्र केरकार

११ 'सांवार युगाचें' सांस्कृतीक मोल............ प्रकाश वजरीकार

१४ लप्रेक, मोगान शार जावप - गद्याचें एक नवे रूप............ ममता दीपक वेर्लेकार

१५ लॉकडावन आनी गांधी विचार............ संपदा कुंकळकार

१६ पडसाद :............ दामोदर मावजो, दिनकर मुरकुंडे

१८ कविते विशीं : ............ माधव बोरकार

२० इतिहास उस्तितना :............ संग्रहांतल्यान

२१ दोन भाटकार (कथा)............ गजानन जोग

२५ वाट :............ कृ. म. सुखठणकार

२९ भोबे, 'मासे आणि मी' आनी हांव :............ सखाराम बोरकार

३१ कविता: ............ परेश नरेंद्र कामत, आकाश गांवकार, आर. रामनाथ, मनोज नरेंद्र कामत, सुप्रिया कुष्टा काणकोणकार, प्रकाश द. नायक, अशोक भोंसलो, सरस्वती दामोदर नायक.

भायले चित्र : इशान नायक

# सोतेरबाबाक आर्गां

**दामोदर मावजो**

सोतेर बार्रेत आनी हांव बरोबरचे. पिरायेन आनी विचारांनी. पूण आमची वळख जाली ती फेलीस्युबाबाक लागून. 'सत' नेमाळ्याचेर सोतेरबाब नेमान कविता बी बरयतालो. मनोहररायाल्या कवितांचो आनी फेलीस्युबाबाल्या विचारांचो व्हड प्रभाव ताचेर आशिल्लो. ताचो कोंकणीचो मोग, साहित्याची जाण आनी समाजवादी दावी विचार सरणी हाकाच लागून आमी खूब लागीं येवपाक पावि‌ल्ले.



सोतेरबाब मनीसमोगी. तागेर ल्हान व्हड मनशांची सतत यो-वच आसताली. सुदैवान, ताका घरकान्न मेळ्ळी तीय तितलीच मायेस्त आनी मनशाळी. घरकार आनी घरकान्न जर कोंकणी मोगी आनी मनशाळीं आसलीं जाल्यार भुरगीं तशीं जालीं जाल्यार अजाप न्हय. सरिता धरून सोतेरबाबालो आख्खो घराबोच कितलो मनीसमोगी तें तागेल्या घरच्या सुण्या वयल्यान लेगीत होलमतालें. सोतेरबाबाल्या दारार मारना फुडें पयलीं कानार पडटालें तें सुण्याचें भोंकप. सोयरो आसूं, वळखीचो आसूं वा अनवळखी; सुण्याली गरड कानार पडना फुडें पयलीं आंग काडटालो. कोण तरी सुण्याक घट धरून दार काडटालो. येतल्याक घरच्यांचो येवकार मेळना फुडें सुणेंय ताची इश्टागत जोडटालें. गजाली मारून वचपाच्या वेळार सुणें सामकें बोवाळ मारतालें. चोराक भोंकचें तशें भोंकतालें आनी घांस मारपाक येतालें. देखून, सोयरो उठचे पयलीं सोतेरबाब सुण्याक बांदून दवरतालो. आनी खालतेपणान वतल्या कडेन भगसणी मागतालो, "सॉरी, आमगे सुण्याक लोक आमगेर येयलले जायो. पूण कोणूय वयता म्हळ्यार तें बेजार जाता" आनी खऱ्यांनीच आयिल्लो सोयरो भायर सरून वचसर सुणें शेंपडी तुटसर भोंकतालें. घरांतलीं सुणीं माजरां लेगीत मनशाळीं, मागीर मनशां कशी आसतलीं ताचो अदमास येतलो.

सोतेरबाब लिसेवाचें 'किन्ता आनु' शिकिल्लो. ते काळार किन्तानिश्तू आसल्यार सोंपेपणीं नोकरी मेळटाली. पूण तितल्यान गोंय स्वतंत्र जालें. भोव खोशेन सोतेरबाबान फुडल्या शिक्षणा खातीर इंग्लीश आपणायली. आनी बी. ए. ची पदवी संपादन केली. भलायके खात्यांत नोकरी धरली. ३९ वर्सां नोकरी करून तो निवृत्त जालो. हे काळार ताणें मलेरिया निर्मुलनाच्या मळार केल्लो वावर भोव तोखणायेचो. अशे तरेचे निश्ठावंत कर्मचारी जर आयज भलायकी खात्यांत आशिल्ले जाल्यार आयचे हे कोवीड-कोरोना लेगीत बेगीन आटापाक येवं येतालें, अशें म्हाका दिसले बगर रावना.

सोतेरबाबाच्या काळजांत गरीब-दुर्बळ घटकां विशीं आशिल्लो कळवळो ताच्या उलोवपांतल्यान व्यक्त जातालो. काश्टी ही प्रतिमा वापरून ताणें दुर्बळ घटकांची वेथा कवितेंतल्यान कितली खरपणान उकतायिल्ली ती म्हाका याद जाता. 'म्हजी काश्टी' कवितेंत गरिबाली काश्टी - चौकोन रंगीत तांबडें सुती लुगट - राष्ट्रीय-आंतरराष्ट्रीय मळार गाजली खरी पूण काश्टेकार मात थंय तसोच गरीब उरलां म्हूण सांगपी तागेली अल्पोतरी कविता. जावं 'सत', जावं 'उजवाड', जावं 'सुनापरांत', जावं 'गुलाब'; ह्या नेमाळ्यांचेर बरयतना ताणें सदां दुर्बळ घटकांचो आनी नितीचो पाखो घेतलो. देखूनच जावंये, फेलीस्युबाब आनी सोतेरबाब हांचे मदलें नातें निखटें इश्टागतीचें उरूंक नासलें तर तें भावाभावाचें जावंक पाविल्लें.

'जिवाक जीव दिवपी' ही म्हणणी आमी खूब फावटीं वापरतात. पूण ताची जिती जिवी देख म्हणल्यार सोतेरबाब. फेलीस्युबाब हो पुर्तुगेजांचे बंदखणींत पडिल्लो स्वातंत्र्यसैनीक. पुर्तुगेजां आड वावुरपी जाल्ल्यान सरकाराची वांकडी नदर आपणांचेर पडची न्हय म्हूण फेलीस्युबाबाल्या सगल्या सोयऱ्यांनी ताका फाट केल्ली. इतलेंच न्हय, तर ताचे असवडीं ताचें सुरावलेचें घर लुटून रितें करून दवरिल्लें. फेलीस्युबाबान मागीर नव्यान सगलें उबें केल्लें. ते उपरांत फेलीस्युबाबाक दोन वेळो जिवा वयल्या दुयेंसांतल्यान वच्चें पडिल्लें. फेलीस्युबाबाक इश्ट खूब. पूण लागशिल्लीं सोयरीं थोडीं. आकांताक पावपी तर सामकींच नासलीं. तेन्ना कोण्ण पावलीं नात. फकत सोतेरबाब आनी तागेली बायल लिनाबाय दोगांच धांवून गेल्लीं. वखद-विर्सद तर केलेंच, ताचें गू-मूत लेगीत काडलें. फुडें हॉस्पिटलांतल्यान डिस्चार्ज दिल्या उपरांत ताचें करपी कोण ना हाची जाण आशिल्ल्या सोतेरबाबान तो बरो जायसर ताका आपणाल्या घरा दवरलो. कितले म्हयने तांगेर उरलो म्हाका याद जायना. पूण तो बरो जाल्या उपरांतय फेलीस्युबाब तांचेच देखरेखी खाला उरलो. "हांव जितो उरलां तो फकत लिना आनी सोतेर हांचे सेवेक लागून" अशें फेलीस्युबाबान कितलेशेच फावटीं म्हजे कडेन उलोवन दाखयलां.

एके फांतोडेर म्हाका सोतेरबाबालो फोन आयलो. सोतेरबाब रडटालो. "भाईऽऽ, आमगे फेलीस्युबाब गेलो मुरे!" आजून तागेलीं तीं हुंडकेल्लीं उतरां म्हज्या कानांत घुमतात. फादर फ्रॅडी डिकोश्ता आनी फेलीस्युबाब कार्दोझ हे कोंकणीचे दोन खांबे एकच धपक्याक कोंसळ्ळे. तो दीस घडये, आनीक कोणाच्याय परस, सोतेरबाबाच्या जिवितांतलो भोव काळखी दीस आसलो.

फेलीस्युबाबान मरचे पयलीं मृत्युपत्र करून दवरिल्लें आनी आपलें घर सोतेर आनी लिनाक भेटयिल्लें. सोतेराक ताची आस बिलकूल नासली. ताणें तें कृतीन दाखयिल्लें. देखूनच फेलीस्युबाबाल्या त्या

घराचें नुतनीकरण करून फेलीस्युबाबाच्या नांवान थंय वाचनालय आनी कृतीसत्रां खातीर सुवात तयार केल्ली. पयल्या मरण दिसा तशें ताणें साबार लोकां हुजीर जाहीर केल्लें. तें घर भोवशीक कार्यावळींक ओंपून आपली ती लागणूक मानून फेलीस्युबाबाचें समाजीक रीण पावोवपाचो ताचो हेतू आसलो. पूण दुर्दैवान तशें जावंक पावलें ना. कोण तरी फेलीस्युबाबाले करणेक आव्हान दिवन कोर्टांत गेलीं आनी सोतेरबाबालें तें सपन अर्दकुटें उरलें.

सोतेरबाब बरो लेखक आसलो. तो कथा, कविता, वैचारीक लेख बरयतालो. तागेली 'आफ्रिकानिस्त' ही कथा म्हाका भोव आवडिल्ली. 'जागा'न परतून छापली जाल्यार आयच्या वाचकांक तिचो दर्जो कळूंक पावतलो. स्वता लेखक आशिल्ले लोक सपसप दुसऱ्या लेखकांची तोखणाय करतना दिश्टी पडनात. पूण सोतेरबाब कोणेंय कितेंय बरें बरयल्यार ताची तुस्त करपाक ताका उतरां उणीं पडटालीं.

लेखकान खंयचे लिपयेंत बरयलां ताचे वरसून तो ताचें साहित्य मोलायनासलो. लिपीवाद ताका मान्य नासलो. दोनी मदीं समन्वय आसचो हें ताचें मत्त आसलें. ताणें कोंकणीच्या मळार वावुरतना केन्ना भेदाभेद केले नात. देखून सगल्यांकच तो आपलोसो दिसतालो. ताका कोंकणी भाशा मांडळाचो सेवा पुरस्कार आनी पत्रकारिता पुरस्कार फावो जालो आनी गुलाब म्हयनाळ्याचोय उत्तम साहित्य पुरस्कार लाबलो. गोवा कोंकणी अकादेमीन शणै गोंयबाब सेवा पुरस्कार दिवन ताचो भोवमान केलो. आनी कला आनी संस्कृती खात्यानूय ताका कला गौरव दिवन ताचो गौरव केलो.

जिवितांत सोतेरबाबान फुडारी म्हूण केन्ना मिरयलें ना. पूण आंगार पडिल्ली जापसालदारकी केन्ना फाफुडली ना. कसली आस्त बाळगी नासतना कोंकणीची सेवा करीत रावलो. आयज ताका आर्गां ओंपतना सोतेरबाबान निश्ठेन केल्लो निसुवार्थी वावर दोळ्यां मुखार येता आनी नमळयेन तकली बागवता.

एक खंत मात म्हज्या काळजांत कायमची उरतली. फाटले कांय म्हयने म्हाका सोतेरबाबाक मेळपाची ओड लागिल्ली. ताका पार्किन्सनाचें वायट आशिल्ल्यान ताका फोन करून खबर घेवप मनाक पुटवनासलें. हालीं हालीं धाएक फावटी हांवें ताका मेळून येवपाचो विचार परगटायिल्लो. पूण प्रत्येक खेंपेक फाल्यांर उडोवप जाल्ल्यान उरत गेल्लें. आनी आतां कोविडाक लागून मरणाची खबर कळुनूय अंतीम भेट लेगीत जावंक पावली ना. काळजांतली ही वेथा कोणाक सांगून कळची ना. पूण सोतेरबाब, तुज्या फाटल्यान हांवूय थंय पावतलों. मेळटले तेन्ना म्हजें काळीज सांसपी नासतनाच तुका तें कळ्ळे बगर रावचें ना. मेळचें.

संपर्क: ९४२२०५९५०९



# फामाद गजलकार राहत इंदौरी

फामाद गजलकार राहत इंदौरी (७०) हांकां ११ ऑगस्ट २०२० दिसा मरण आयलें. तांकां सत्ता विरोधी साहित्यीक म्हण वळखतात. 'सीए-एनआरसी' मुद्द्याचेर राहत इंदौरीन म्हणिल्लें हो देश खंयच्याय व्यक्ती, पक्षाचें वा धर्माचें येरास न्हय. आपल्या शायरी वरवीं आपलें हें मत लोकां मुखार दवरतना ताणी म्हणिल्लें *'सभी का खून है शामिल यहां की मिट्टी में, किसी के बाप का हिंदुस्तान थोडी है.'*

*'लागतलो उजो तेन्ना खूब घरां ताच्या चपक्यांत येतलीं*
*हांगा म्हजें एकट्याचेंच घर ना*
*जे सायब आयज गादयेर बसल्यात ते फाल्या आसचे नात*
*भाडेकरू सगळे, घराचे मालक न्हय*
*सगळ्यांचें रगत आसपावला हांगचे मातयेंत*
*हिंदूस्तान तुमच्या बापायलो फांत न्हय.'*

**आपयता पूण वचूं नाका**

*आपयता पूण वचूं नाका*
*संवसार हो हांगा वचूं नाका*
*म्हज्या पुता कोणाचेरूय मोग कर*
*पूण मर्यादा मात हुंपून वचूं नाका*
*भुंयेर विसव घेन दिसता तर घे*
*वचपाक भायर सरला तर रावूं नाका*



*नखेत्रां झोंबून हाडतलों हांव*
*रिकाम्या हातान घरा वचूं नाका*

*महामारी पसरल्या चोंय वटेन*
*आतांचें वातावरण मरपाचें न्हय*

*तो मान जोखता जोखूं दी*
*पूण खपनखायऱ्याक भिवून वचूं नाका*

(तांच्या 'बुलाती है मगर जानेका नहीं' ह्या शायरीचो हांवें केल्लो स्वैर अणकार)

**- सखाराम शेणवी बोरकार**

# म्हजे यादींतलो आईचो हातचो सुवाद...

दिलीप बोरकार

का की म्हणल्यार 'सखी' म्हाका सोडून गेल्यार ह्या आषाढांत तीन वर्सां जालीं. सखीचें आनी म्हजें पंदरा वर्सांचें सहजिवन. नातें सखा आनी सखीचें देखून काकीक हांव 'सखी'च म्हणत आयलां. आपल्याक वचपाक जाय हें सखीक खबर आशिल्लें आनी ताणें ताचे तकलेंतलो प्रकल्प पुर्णायेक आयल्या बरोबर वचप गरजेचें हाची म्हाकाय कल्पना आशिल्ली. सखी गेल्या उपरांत म्हजें जेवणा खाणाचें कशें जातलें हो विचार तीन वर्सां आदीं म्हजे तकलेंत घोळटालो काय कितें हाची आता म्हाका याद जायना. पूण सखीच्या मनांत तो नक्कीच घोळटालो. ताचे सपनांतलो प्रकल्प आकार घेता तशेंतशें सखी आपली वचपाची तयारी करतालें आनी म्हजें जेवणाचें कशें कितें करप हाचेरूय येवजितालें. शेवटाक ताणें म्हाका आवडटली अशी एक देशेंत वावराडी खंयच्यान तरी फैदासली आनी म्हाका कितें आवडटा, कितें गरजेचें, कसलीं पथ्यां सांबाळूंक जाय असलें गरजेचें सगळें इन्स्ट्रक्शन तिका दिवन सखी गेलें.

सखी आपल्या साम्राज्यांत दंग आनी हांव म्हज्या साम्राज्यांत..! आनी वेळा वेळार म्हाका जाय तसलें जेवण मेजार आसतालें म्हणटकच कोरोनाचें आगमन जाय म्हणसर म्हाका तशें व्हडलें शें कांयच बादलें ना. पूण मोदीन कोरोनाच्या नांवान इतलो भंय घालो आनी अलगीकरणाचेर भर दियत आत्मनिर्भरतायेक प्रोत्साहन दिवंक आरंभ केलो तेन्ना लोकाचे लजे खातीर म्हाकाय आत्मनिर्भर जाले बगर पर्याय नाशिल्लो. वावराड्यां खातीर कॉलनींतल्या सगळ्या फ्लॅटांची दारां बंद जातकच फकत हांवें मास्कधारी वावराडे खातीर म्हजें दार उकतें दवरप हें सामाजीक पर्यावरणाचे नदरेन योग्य नाशिल्लें. म्हणटकच, 'कोरोना वतकच तुका आपोवणें धाडटां!' अशें सांगून, म्हयनो पुराय जायनासतनाय तिका पुराय म्हयन्याचो पगार दिवन घरा धाडली.

हें इतलें मेरेन बरें आसा. वावराडी गेली. तिणें दनपारांक कितें शिजयल्लें ताचेर रातची भूक न्हिदयली. दुसरे दिसा सकाळीं ब्रेकफास्ट कितें करप हो प्रस्न जागो जालो. सखी चपात्यो करतालें तशी ती वावराडी करताली. सखीच्या चपात्यांनी प्रेम चड आसतालें जाल्यार वावराडेचे चपातेंत तूप आनी मीठ चड आसतालें. भरीक भर म्हणून तव्यार करपवन काडिल्ल्यान काळे काळे दाग आसताले. दाग आशिल्ल्या चंद्राचेर कविता करपी साबार कवी जमातींतलो हांवूय एक रिश्तेदार आशिल्ल्यान हांव त्यो चपात्यो गोड मानून पावन करून घेतालों. पूण आतां त्योय नशिबांत नाशिल्ल्यो. सद्दां पदेर तरी येतालो पोंऽऽकूऽऽऽ पोंऽऽकूऽऽऽ करीत. तो जरी घांटी आशिल्लो तरी ताचें तें लयबद्द पोंऽऽकूऽऽऽ पोंऽऽकूऽऽऽ हांगचेच मातयेंतलें आशिल्लें. ताका हांवें बरेच खेप नाकांत बोटां घालतना, मेळटा थंय खरपितना पळयिल्ल्यान ताचे लागच्यान पाव वा उंडे घेवपाची कल्पना लेगीत म्हाका शक्य जाय नाशिल्ली. पूण आतां 'गरजेक मामी!' म्हणटात तशें पोटाचे भुकेक हो घांटी उपकारतालो. पूण आतां तांकांय लॉकडावन केल्ल्यान म्हजेर आकांत आयिल्लो.

हे असले आणिबाणीच्या काळार म्हज्यो दोन इश्टीणी धांवून आयल्यो. चपात्यो करपाक न्हय. अलगीकरणाचो कायदो मोडून म्हजे खातीर त्यो कपलाक येतल्यो! तांतले एकलेन केन्ना तरी सांगिल्लें, 'मनशान सोळा वरांचो उपास करूंक जाय. रातचें आठ वरांचेर डिनर घेवप आनी मागीर बद्द दुसरे दिसा दनपरां जेवप. मदीं मदीं गरम उदक एकेक घोंट घेत पिवप. आपूण तशे करतां. देखून आपूण सडसडीत दिसतां.' हांवें ताका विचारिल्लें, 'मागीर ब्रेकफास्ट म्हणटात तें कित्याक तर...? फास्ट म्हणल्यार उपास तोडपाक सकाळीं भरपूर नास्तो करप हाकाच ब्रेकफास्ट म्हणटात न्हय गो...?' तर ताणें म्हणिल्लें, 'ती चुकीची धारणा. आपूण फाटले स म्हयने दिसाक सोळा वरां कांयच खायना.' हांवें मतींत म्हणिल्लें, 'हें सुटलां दिसता...! हें अशें सदांच ओडिल्ले भशेन कित्याक दिसता? असो म्हाका पडिल्ल्या प्रस्नाक जाप मेळिल्ली. असो सोळा वरां उपास करपाची धमक म्हाका नाशिल्ली.

उपरांत आनीक एके सुंदरीक हांवें म्हज्या कसल्या तरी सुवाळ्याक मुखेल सोयरी म्हूण आपयल्ली. उलयतां उलयतां तिणेंय म्हाका सांगलें आपूण सोळा वरां उपास करतां. तूंय कर. गरिबांनी उपास केल्यार अन्नाक पातेशार म्हूण करतात आनी गिरेस्तांनी केल्यार टीपटॉप उरपाक करतात अशी धारणा आशिल्ल्यांचो प्रभाव म्हजेरूय पडिल्ल्यान हांवें हे सुंदरीचेर विश्वास दवरलो आनी हांवूय करूंक लागतां म्हूण ताका उतर दिल्लें. पूण तो दीस उजवाडपाची संद हांवें एक्काय दिसाक दिली ना. भोवतेक ते दीस कोरोनाची वाट पळयताले आसूंक जाय!

कोरोनाच्या रुपान बरी संद आयल्या असो विचार करून हांवें त्या सुंदऱ्यांनी सांगिल्ले प्रमाण उपासाक सुरवात करून गरम उदकाचेर सकाळ धुकल्ली. पूण दनपरां बारा जाता म्हणल्यार पोटांत उजो...! बेगिबेगीन शिताक दवरलें. कुकरांत तांदूळ घालून कितल्या तांदळांक कितलें उदक घालप आनी कितल्यो शिटयो काडप हें सखीन सांगिल्लें. मदीं एक दोनदां शीत केल्लेंय ताचो अणभव गांठीक आशिल्लो. शीत जालें..! फ्रिजांत हुमण आशिल्लें. म्हजी वावराडी वावराडी जाली म्हूण कितें जाली, ती तशी दुरदृश्टी आशिल्ली हेर बायलां वरींच बायलमनीस आशिल्ली. ती हुमण जावं दाळ, रोस बी करता तें तोप भर करताली. म्हणटकच हांव तो प्रकार फ्रिजांतल्यान दर दिसा भायर काडून तीन चार दीस कडोवन कडोवन खातालों. म्हणटकच चार दीस नवें कितें करपाचो ते वावराडेक वावर नासतालो. तिची तीं कामचोरपणां वा गमिनी कावो तेन्ना म्हाका माल पडटालो जावं पूण ह्या लॉकडावनाचे कठीण परिस्थितींत तो म्हाका तीन चार दीस कितें पांच स दीस गरजेक पावलो. त्या हुमणाच्या तोपांतल्यान त्या दिसाक लागता तितलें हुमण दवल्यान अचळय दुसऱ्या आयदनांत काडप आनी गरम करून शितांत

कालोवन 'तितलें मेमें तितलो कोको' करप. पूण ती रसद कितलो काळ पावतली..?

मागीर नदर गेली फ्रिजांतल्या लोणच्याच्या विजाचेर. दर वर्सा हर्षा म्हाका आंब्याचो हालवो, लोणचें बी घालून एक दोन आंचाव दिता. हालव्याचो आंचाव रोखडोच सोंपता. म्हाका साखर ना म्हणटकच खातना फाटीं फुडें जायना आनी हालवो म्हणटकच वांट्याक येतलो वतलो कोण ना कोण आसतात. पूण लोणचें वर्सभर सोंपून सोंपना. ताचें कारण म्हणल्यार जेवणा वेळार काडपाक याद उरना, दुसरी गजाल म्हणल्यार म्हजो बायपास जाल्ल्यान मीठ चड खावंक उपकारना हो दोतोरान घाल्लो भंय आनी सखीन दवरिल्लें नियंत्रण त्या विजाचें धापणें दरदिसा चडूच तायट जातालें. आता विचारतलो पाचारतलो कोण नाशिल्लो आनी वाडत वचपी लॉकडावन तर जे कितें घरांत डबे आसात तांचीं धापणी अनलॉक करूंक खुणायतालो.

शीत आनी लोणचें हाचें कंबिनेशन हें सदांच बेस्ट! लोणच्याचो खळ कालोवन जर शीत जेयत जाल्यार तें कितेंच तोंडाक लावपाक नासलें तरी पुटूक पुटूक करून सदचे परस चड उंडयो पोटांत वतात. हुमण सोंपल्या उपरांत हांव लोणच्याचो वापर सांबाळून करूंक लागलों. सोंपतलें म्हूण न्हय तर हांव सोंपत म्हूण..! हर्षा लोणचें बरें करता. एक करता तें पुराय मसालो घालून, साग्रसंगीत तेल बी घालून. दुसरें करता फकत मीठूच घालून. ताच्या तेलांतल्या लोणच्याक आमगेर मागणी आसता. बिम्बाचें काम करपाक येवपी सगळ्यो चलयो मिटक्यो मारीत खातात आनी रोखडें सोंपता. पूण मिठाचें लोणचें तांकां आवडना. तें हांव एकटोच खातां केन्नाय रूच आयल्यार, एक दोन फोडी काडून.

म्हजी आईय लोणचें करपाक फामाद आशिल्ली. तीय दोन तरांचें करी. एक भरिल्ल्या आंबल्यांचें आनी दुसरें करेल आंब्यांच्या फोडींचें. आगशीं गावांत लक्षीमबायलें लोणचें फामाद. ती तें खरें म्हणल्यार आमकां खावपाक करताली. कोणूय मागूंक आयल्यार दिताली. पूण ताची रूच गांवच्या क्रिस्तांव लोकांक कळ्ळी आनी तांचे दुबय, लंडन, मास्कत, कुवेत बी आशिल्ले भुरगे रातचे वेळार आपले मांयक जेन्ना फोन करताले तेन्ना विसर नासतना, 'मांय दुर्मीग गोंयां येता तेचे लागच्यान लोक्षीमबायलें मिस्कूट धाडपा इसोन्नाका' म्हूण फोन करताले. मागीर त्या पुतांक मिस्कूट धाडपाक तांच्यो आवयो म्हजे आवय कडेन फावोर मागताल्यो. सुरवेक आई आसा तातूंतलेंच काडून दिताली, पयशे घेवपाकूय फाटीं फुडें जाताली. तीं नुस्तेकारां जावं सोरेकारां पयशे दवरून वचप. मागीर आईक तीं ऑर्डरी दिवंक लागलीं. घरा बशिल्ले कडेन आई तांचे पासत लोणचें करूंक लागली. तिकाय भायल्या दुडवांची रूच लागल्या जातलीच पूण तिचें लोणचें खूबश्या लोकांचे जिबेक मुतपाक लायताली आनी म्हाका तिच्या लोणच्याची आतां लेगीत जेन्ना याद येता तेन्ना म्हजीय जीब मुतले बगर रावना. ते काळार भुरगेपणारूच न्हय तर उपरांत बरोच व्हडलो घोडो जाल्या उपरांतूय नुस्तें नासत आनी शिवराक आनी तोंडाक लावंक लोणच्याची फोड वाडिल्ली आसत जाल्यार हांव ते लोणच्याचे फोडीन कालोवन वा आनीक थोडो मेथो घेवन जेवतालों. हांव कसलीच कटकट करी नासतना पोटभर जेवलां तें पळोवन आईचेंय पोट आपसूक भरतालें जावंक जाय! आयज कोरोनान ते दीस म्हज्या वांट्याक परतून एक खेप हाडिल्ले. पूण लोणचें हर्षाचें आनी रूच आईन केळयल्ल्या लोणच्याची...! आईन हर्षाक पळोवंक ना. पूण आई कशी नातें जोडटा पळय हर्षा कडेन त्या लोणच्याच्या माध्यमांतल्यान...!!

लोणच्याच्या मालवजार म्हजे कुडीच्यो उण्यांत उण्यो गरजो हांव कितले दीस भागोवंक शकतां काय हो म्हजे मुखा वयलो एक व्हड प्रस्न आशिल्लो. जेवणाचो प्रस्न सोडोवपाक हांवें जो कितें पर्याय घेतिल्लो तो एक दिसाक वो केन्नाय बरो आशिल्लो. तो चड वेळ मुखार व्हरप तशें पेरीगूच थारपाचें. देश नेर्वा फ्राक जाल्ल्या लोकांच्या हातांत आशिल्लो. कोरोना व्हायरस परवडलो पूण हो भगवो व्हायरस न्हय हाचो अणभव विचारी नागरीक घेताले. लॉकडावन कितले दीस उरतलो, भायर सरून कितें वेवस्ता करूं येता काय कितें हें सगळेंच अनिश्चीत आशिल्लें. कोरोना खरो कितें प्रकार हें जाणून घेवचे आदींच भिरांतेच्या म्हारवान प्रत्येकाक इतलो रेवडावन उडयल्लें, कोणूय दुसऱ्यां कडेन पळयतना कोरोना व्हायरसचो बोमाडो म्हूण दुबावान पळयताले. म्हणटकच कोणा कडल्यानूय कितेंय रांदिल्ले हाडपाक लेगीत भिरांतेचें. हाका एकूच उपाय म्हणल्यार आता खऱ्यानीच आत्मनिर्भर जावप.

सामान सगळें आसा. जाय तें रांदपाचें गिन्यान. रांदपाक गिन्यान जाय पडटा...? म्हजी आवय खंयच्या गुरू कडेन गेल्ली तें गिन्यान घेवपाक...? हें गिन्यान दायजान मेळटा. एकल्याचें पळोवन दुसऱ्यान शिकपाचें आसता आनी मागीर दुसऱ्यान तें तिसऱ्याक दिवपाचें आसता. हांव अशे परंपरेंत वयर सरिल्लों, जंय चले भुरग्यान रांदचे कुडींत वचून कितेंय लुडबूड करीत जाल्यार ताक ' बायजण ' म्हणून चाळयताले. ताका लागून रांदपा सारकी सुंदर कला म्हजे सारको दायजान शिकूंक पावलो ना. ती चलयांचीच मक्तेदारी आशिल्ली. तांकांच आवय कडल्यान हे कलेचें दायज मेळटालें आनी तें घेवन धुवो दुसऱ्या घरांत वताल्यो. जे चले आपले आवयचें हातचें खावन व्हडले जाले तांचे पासत मात हें कलेचें दायज सदांच जादवाचें पेटूलच उरलें. पुतांच्या उरिल्ल्या आयुश्यांत बायलेच्या रुपान आयिल्ल्या नव्या दायजा कडेन जुळोवन घेत पोटांत अन्न धुकलपच मागीर नशिबांत उरता. मागीर, 'तुजे परस आईच बरें रांदता..!' 'ती बरें रांदता जाल्यार तिच्याच हातचें जेव..!' म्हणत मागीर तें रागार फुगार जावप..! मागीर मांयचें सुनेचें पेटप..! मागीर वेगळें रावप...बायल आपले आवय कडल्यान जें कितें शिकून आयल्या त्या प्रमाणे शिजोवन मागीर ती हे आवयच्या बाबड्या पुताक तें खावोवप. ते अन्नसंस्कृतायेची तुळा आपले आवयचे अन्नसंस्कृताये कडेन करीत पानार पडलां तें पोटांत धुकल्ल्या बगर मागीर दुसरो पर्याय आसना.

म्हाका जर संद मेळिल्ली जाल्यार म्हजे आवयची अन्नसंस्कृताय हांव शिकून घेतलों आशिल्लों काय ना हें म्हाका आतां सांगूंक येना. शिकून रांदूंक आयिल्लें जाल्यार आयज म्हजे इतलो सुखी आनीक कोणूच आसचो नासलो. पूण म्हजे आवयक हो कोण कोरोना म्हूण कोण येतलो आनी घर मनशांनी सदांच भरिल्लें आसचें असो विचार करपी

आनी तसो प्रयत्न करपी आपल्या पुताक असो एकटो उडयतलो हाची कल्पना नाशिल्ली. तरी लेगीत म्हजी आवय जें कितें करताली आनी म्हजे तें नदरेक पडिल्लें ताच्या मालवजार आयज हांव किते ना किते करतां आनी तें करतना म्हजे आवयची याद करतां.

सकाळीं म्हजे खातीर ब्रेकफास्ट मस्ट. खंयच्योय सुंदऱ्यो सांगतात म्हण हांव म्हज्या पोटाक वळवळावंक शकना म्हणपाचें एकाच दिसा म्हाका होलमलें. मागीर म्हणलें चपात्यो करुंया. पीठ घेतलें अदमासान आनी उदक घालें. तें पातळ जालें. ताच्यो चपात्यो कश्यो करप तें कळना जातकच तातूंत आनीक उदक घालून ताचे पोळे काडले. तव्याक दसले म्हूण मागीर नॉनस्टीकाचेर भाजून पोटाचो उजो एकदांचो ते दिसा पुरतो शमयलो. पूण सदांच काय हे पोळे म्हणत पिठाचे गुळे खावप जिवाक परवडपाचें नाशिल्लें. उदक चड जाल्ल्यार आनीक पीठ घालून कालोवपाचें ही अक्कल पयले दिसा आयली ना. दुसरे दिसा आयली. आई पीठ ताटांत घेताली, तातूंत मीठ घालताली आनी मागीर सरभोंवतणी उदक घालून तें पीठ दवरताली. मागीर हेर कामां आटापून पीठ मळूंक घेताली. पोटांत कावळे रडूंक लागताले म्हणटकच आईच्या दरेक स्थित्यंतरा कडेन म्हजें बारीक लक्ष आसतालें. आईन पीठ घेतलें, मीठ आनी उदक घालून दवरलें. आईची सारन मारून, चूल सारोवन, च्याक आदन बी दवरून जालें. आतां ती पीठ कालोवंक घेतली. ती वेवस्थीत बरोच वेळ पीठ मस्तीताली आनी म्हजें मन आपले भितरूच उलोवंक लागतालें, 'जालें गे तें मोव! आतां लाग लाटूंक. सामकी भूक लागल्या.' आई पीठ मळून जातकच त्या पिठाचे कितलेच गुळे करताली. हांव ते मेजतालों. ताचे वयल्यान कोणाक कितल्यो चपात्यो पडूं येतात हाचो हिशेब करतालों.

आईची चपात्यो करपाची एक स्टायल आशिल्ली. पिठाचो गुळो घेवप, लाती करप, ताचेर तूप सारोवप, मागीर दोडप, परत तूप सारोवप आनी मागीर सुक्या पिठांत आरतें परते करीत लाटप. चुलीर तवो दवरप आनी भाजपाक घेवप. मागीर हांवें तिका भाजपाक मजत करप. म्हणटकच ती फुडली चपाती लाटपाक मेकळी जाताली. अशी घडी करीत केल्ली चपाती म्हाका खूब आवडटाली. चपातेचे कितलेच लेयर आसताले भितर. तातूंतलो पात्तळ पापुद्रो खातना ताका तुपाचो बरोऽऽ वास येतालो आनी रुचीक लागतालो. हें जें हांवें तेन्ना धा-बारा वर्सांचो आसतना पळयल्लें तेन्नाची ती याद आतां म्हाका गरजेक पाविल्ली. आई जें किते करताली ताचेंच अनुकरण करून हांवें वेवस्थीत पीठ कालयलें, मळ्ळें आनी तूप लावन वांटकुळ्योच चपात्यो लाटपाक हांव यशश्वी जालों. पूण आईच्या चपात्यांक ती घडयो घालून लाटल्या उपरांत तो चपाते भितर पात्तळसो पापुद्रो आसतालो जाका एक सुरबूस रूच आनी घमघम येतालो तो मात म्हाका म्हज्या चपात्यांनी खंयच सांपडना.

आई जें किते करताली तातूंतलें कांयच म्हाका सांपडना. ती कितलें पीठ घेताली, कितल्यो चपात्यो करताली आनी आमकां सगळ्यांक त्यो कश्यो पावयताली ताचें गणीत सांपडना. ती चपात्यो बरी वांटकुळ्योच लाटताली, पूण त्यो लाटतना ती किते विचार करताली ताची नाट म्हाका लागना. हांव पीठ कालयतां, मागीर पांच चपात्यो लाटून भाजतां म्हणसर केन्ना केन्ना एक लेख वा कविता तयार जाता. चडसो वेळ आईचे वो सखीचे यादींत सरता. पूण आई तल्लीन जावन पीठ मळटाली, चपात्यो लाटताली तेन्ना तिचे तकलेंत कसले विचार घोळटाले काय...? मेंदू तो! ओगी काय बसचोना! आपलो घोव कामाक वता तें काम तकालशीचें. ताका दोन चपात्यो दनपार मेरेन पोटाक पावच्यो नात. ताका आनीक एक दिल्यार कशें...? पूण ताका जर दिली तर भुरग्यांक उणी करची पडटली. भुरगींय आपले वाट्याच्यो खावन सोंपतकच आनीक एक आपल्याक मेळत काय? हे आशेन पळयतात. वाडटी पिराय म्हणटकच भुकूय वाडटा असले बी विचार येताले काय...? तकलेंत विचार घोळटात ताचो प्रभाव लाटफळ्या वयले चपातेच्या आकाराचेर जाता जावंक जाय! जेन्ना म्हज्या मना सारकें काम जाता तेन्ना चपाती बरी वाटकुळीच जाता. जेन्ना मन डिस्टर्ब आसता तेन्ना चपाती वेगळ्या वेगळ्या राष्ट्रांचे नकाशे जातात. मागीर आईच्यो चपात्यो वाटकुळ्योच कश्यो आनी कित्याक जाताल्यो? आपल्या नशिबांत आयलां तातूंत सूख मानून दीस काडपाचे हें आईचें तत्वगिन्यान बी नाशिल्लें मूं..?

चपात्यांचो म्हणजे ब्रेकफास्टाचो प्रस्न म्हजो सुटलो. मदीं मदीं हांव सोय, गोड बी घालून नाचण्याची भाकरी, तांदळा पिठाची कांदो, मिरसांग बी घालून थापूंक शिकलों. आई केळीचो चोळको वा हळदी पानां तव्यार दवरून ताचेर भाकरी भाजताली. हांगा पणजे तीं पानां नात. पूण बेश्ट्या तव्यार भाजून लेगीत तो त्या काळचो पानांचो वास भाकरी भाजतना वा खातना कसो दरवळटा तें मात कळना.

दनपारच्या जेवणाक शीत केलें म्हूण जायना, हुमण जाय, एक तरी भाजी जाय. कुमुदिनी उसगांवकारांचें सुवादीक म्हूण एक जेवणाच्या रिसिपींचें पुस्तक अवधूतबाब तिंबल्यान दिल्लें. कसल्या हुमणाक कसो मसालो काडप आनी कसले भाजयेक, तोंडाकाक किते घालप हाचें तांणी पुस्तकांत साग्रसंगीत बरयलां आनी ते प्रमाण हांव सगळें घेवन वेवस्थीत सगळें रांदतां खरो पूण आईच्या रांदपाची याद फाट सोडी ना. बांगड्यांचें हुमण करपाचें थारायलें. शंबर रुपयांक चार बांगडे. पुरो... एकट्याक कितले जाय...! बरें हुमण जालें, आईन विचारलें, ''आतां काडूंक ना रे बाबा...?''

आता चार बांगड्यांक आतां मेळटलीं तरी कितलीं..? आनी तीं खंय आसात हें तरी म्हाका खंय खबर..! आईच्या काळार बांगडे पांच रुपयांक बी शंबर. रुपयाचे पंचविसेक येताले. पोटभर खावंक मेळटाले. सगळ्यांत सवाय आनी रुचीक म्हणल्यार बांगडे आनी ताल्ले. जितले दीस ह्या नुस्त्याचो प्रात उरता तितलो तो चड रुचीक जायत वता. आई बांगड्यांचीं आतां काडटाली. चड बांगडे आसत जाल्यार आतांचे दांगर करताली. केन्ना तीं दवरून रातची नाचण्याची भाकरी करतना ते भाकरेंत घालताली. हांवें आतां घाल्ली नाचण्याची भाकरी आईच्या हातची खाल्या ताची रूच हांगा वर्णन करूंक शकना. आई थोडीं आतां म्हणल्यार हुमणा पुरते हाडिल्ल्या सात आठ बांगड्यांची आतां काडून एके कट्टेंत घालून म्हजे खातीर दवरताली. नाल्ल कातून जातकच कट्टी हाता लागींच खंय तरी पडून आसताली देखून कट्टेंत घालताली. मागीर

म्हाका उलो मारून तीं म्हाका दिताली. सगळ्यांत ल्हान पुताचो हो एक फायदो. हांव मागीर वडा मुळांत पडिल्लो व्हडलोसो खोलो घेतालों. तो दोडून सरभोंवतण सान्नी खुटाऱ्याचो व्हीर काडून शिंवतालों आनी ताचें पाकीट कशें करतालों. त्या पाकिटांत तीं आतां घालतालों आनी पाकीट पुराय शिंवून बंद करतालों. मागीर तें पाकीट चुलींतल्या मुंबरांत लोटटालों. बऱ्याच वेळान वडा खोल्याचें पाकीट उज्यान करपताले. तें भायर काडून, वयलो गोबोर फाफडून तीं भाजिल्लीं आतां जेन्ना जिबेर दवरतालों तेन्ना ताची जी रूच आसताली ताची कल्पनाच करूं नज. कोणेंय जर म्हाका विचारीत, तुजें आवडटें पकवान्न खंयचें, जाल्यार हांव हेंच सांगपी.

कोविडच्या लॉकडावनांत कोणा कोणाचें कितलें लुकसाण जालां तें म्हाका खबर ना. जांकां जिवनाचो अर्थूच कळूंक ना, जांणी आपल्याक मेळिल्ल्या जिवनाचो अर्थ सोदपाचोच केन्ना यत्न केलो ना आनी पयशे जोडून चडांत चड सगळे तरेचे कुडीचे भोग घेवप म्हणल्यारूच जिवन अशें जांकां दिसता तांचें ह्या कोविडाच्या लॉकडावनांत खूब लुकसाण जालां. पूण म्हजे सारख्याक मात खूब फायदो जाला. जेवण करपाक येवप ही केदी व्हडली कला हाचो साक्षात्कार म्हाका जाला. जर आवयन आपल्या प्रत्येक पुताक रांदचे कुडींत दवरिल्लो जाल्यार आयज गोंयची अन्न संसस्कृताय दायजाच्या रुपान त्या त्या कुटुंबांतूच उरपाची. पूण आवयांनी ती आपल्या धुंवा पुरतीच मर्यादीत दवरली. पुतांक रांदचे कुडींतल्यान 'बायजण' म्हणत पयसूच दवरले. हाका लागून आवय सारके एके सुग्रणीची कला धुवे पुरतीच मर्यादीत उरली. पूण ती तिगूंक पावली ना. घरांतली धूव ही परक्याचें 'धन' जाल्ल्यान हें धन आपले आवय कडल्यान अन्न संस्कृतायेचें जोडिल्लें धन घेवन दुसरे अन्नसंस्कृतायेच्या घराब्यांत गेलें. थंय मांयचे अन्न संस्कृतायेच्या प्रभावांत येवन आपली दायजान मेळिल्ली अन्न संस्कृताय वो कला विसरून गेली. वो 'तुका आपले आवय वरीं रांदूक जमना, तुजें जेवण बरें जायना' असल्या घोवाच्या थोमण्यांक लागून वो सक्तीक लागून हें दायज भिरकटावन मारून नवें दायज आपणावप हेंच सुखी संवसाराचें गुपीत थारिल्ल्यान एके अन्न संस्कृतायेचो अंत जाता. पूण तो खऱ्यांनीच जाता...?

म्हजी भयण आमच्या कुटुंबांतलें अन्न संस्कृतायेचें दायज आवय कडल्यान घेवन दुसरे संस्कृतायेंत गेली आनी कालांतरान शेणोवन बसली. तेच प्रमाण आमच्याय घरांत सुनेच्या रुपान दुसऱ्या घराब्यांतले अन्न संस्कृतायेचें दायज भितर सरलें. ताका 'आई सारकें जेवण करूंक जमना, आईकूच रांदू दी..!' हे डायलॉग आयकून दुसरे अन्न संस्कृतायेंतल्यान आयिल्लें हें परक्यालें 'धनू'य संवसार सुखान जावंचो देखून आपले आवयन दिल्ली अन्न संस्कृताय खोटावन घोवाचे आवयची अन्न संस्कृताय आपणावंक लागता. थोडो काळ आपले आवयची आनी घोवाचे आवयची अन्न संस्कृताय हाची भेसळ जायत जायत घरांतली सून मांयची अन्न संस्कृताय आपले भितर समरसून घेता. घोव खूश जाता. आवय गेल्या उपरांत मागीर घरांतलो कोणूय म्हणटा,

*(पान १० चेर)*

# केळेकार घराबो

**गुरुनाथ केळेकार**

गोंयांतल्या फोंडें तालुक्यांत प्रियोळ नांवाचो एक व्हड गांव आसा म्हणपाचें सगळे जाणात. म्हाड्डोळ, मंगेशी, कोनें, गांवठण, आपें हे आनी दुसरे कांय ह्या प्रियोळ गांवचे वाडे. गोविंद गावडे प्रियोळ, केरी-सावयवेरें, माशेल ह्या गांवचे विधानसभेचो आमदार हे गजालीचो म्हाका अभिमान दिसता. तो सुसंस्कृत तसो पंडित. ताच्या सुमुखांतल्यान वायट उतर येना. आनी तळमळीन तो काम करता. ताका खातींय बरी मेळ्ळ्यांत. तांतले आर्ट आनी कल्चर, कला आनी संस्कृती ह्या उतरांचो अर्थ फकत करमणूक (entertainment) न्हय हें तो जाणा.

आमी केळेकार प्रियोळ गांवचे. म्हाड्डोळा सावन देवूळवाडो (गांवठण), गाळ, आपें हे वाडे खाशेले वाटेर आसात. तांतल्या गांवठण वाड्यांत आमचें केळेकारांचे मूळ चौगां-घर आसा. हो वाठार एक घलं कसो. दोनूय वटेन ऊंच दोंगर आनी मदीं कुळागरां. ह्या कुळागरां मदल्यान व्हाळ व्हांवता. ह्या व्हाळाक पावसा दिसांनी जो हुंवार येता तो पळोवन अती खोशयेन आमी दीस सारल्यात.

आमी जरी प्रियोळचे, तरी आमी 'प्रियोळकार' न्हय. आमी कोन्यां एका काळा दोंगरी मंडूर सावन आयिल्ले आनी प्रियोळांत स्थायीक जाले अशें रवीन्द्रबाबान बरोवन दवरलां. आमकां 'केळेकार' हें नांव लोकान दिलें. आमच्या जाण्टेल्यांनी वस्ती वसयल्यो आनी केळे धरून फळफळां घेवन आमी सांजे भाणस्तारी वताले. थंय ठोक खरेदी करूंक जे व्यापारी येताले ते तरेकवार करामती करून गणीत हिशोब कळ नाशिल्ल्या फळावळ घेवन येवपी शेतकामतींक फटयताले. एक्याणोय ब्याण्णोय... णव्याण्णोय (शंभरा बदला) णोय करून परत परत एक्याण्णोय ब्याण्णोय चलयताले. ते कशे कशे फटयताले ताच्यो जायत्यो गजाली आसात पूण त्यो आसूं. हे शेतकामतीक हिशेब खंय तरी घुसपला, चुकला, पयशे सारके मेळनात अशें दिसताले तेन्ना तांणी आमचे सरी हिशोब विचारूंक येवंक सुरवात केली. आमी (आमचे जाणटे) चडशीं केळीं घेवन सांतेक येताले. ताचे वयल्यान 'केळेकारांक' विचारूक सुरु जालें आनी आमी केळेकार जाले.

तर प्रियोळा गांवठण वाड्यार आमचें लांबचे लांब घर आसा. ते म्हाड्डोळा सावन आप्यां वचपी दाव्यान जो मार्ग गेला ताच्या उजव्यान दिसता. ताका मुखार बलकांव आसा. थंय केळेकार जाणटेले बसून गजाली करताले. केळेकारांचे खाशेलेपण म्हणल्यार ते देशाचें स्वातंत्र्य, गांधी नेहरु हांचेर उलयताले. गोंय केन्ना काळा मुक्त जातले हाचेर उलयताले.

तुर्ताक ह्या केळेकारांच्या घरांत कोण रावना. पुर्तुगेजांच्या काळात गोंयांत कारखाने नाशिल्ले. शेतां, कुळागरां आनी पसरे घालप असलीं कामां चडशा हिंदूंच्या वांट्याक येतालीं. सरकार 'कॅथॉलीक' जाल्ल्यान सरकारांत चडशे क्रिस्तांव आसताले. हिंदू खूब उण्या प्रमाणांत आसताले. एखाद्रो एकलो वयल्या पदार ताच्या बुद्धीक लागून पावतालो. चार चौग जाण पुर्तुगालाक वताले आनी चडशे थंयच रावताले.

आमच्यांतले कांय केळेकार जोडी पासत मुंबय गेले. हातूंत म्हजो बापूय आशिल्लो आनी हेर दोन चार केळेकार फ्लॅट घेवन रावताले. रवीन्द्रबाबाचो बापूय डॉक्टर, तो दिवाक स्थायीक जालो.

आमचें मुंबय आशिल्लें बिराड १९३५ वर्सा गोंयां आयलें. म्हजो बापूय गिरगांवांतल्या तेन्नाच्या मॅजेस्टीग सिनेमा, थिएटराचो मॅनेजर आशिल्लो. ताका अचकीत पिरायेच्या ४५ व्या वर्सा अर्धांग वायू जालो आनी आवयक चार भुरगीं आनी अर्धांग जाल्ल्या घोवाक घेवन प्रियोळा चौगां-घरांत रावंक येवचें पडलें. तेन्ना हांव स वर्साचो आशिल्लो.

आमी १९३५ त गोंयां आयलीं तेन्ना आमच्या चौगा-घरांत पांच स बिराडां आपापलो संवसार घेवन मध्यम अवस्थेंत जियेतालीं. उपरांत काळ बदललो. गोंय मुक्त जालें आनी भुरगीं व्हडलीं जालीं, शिकलीं आनी घर सोडून शारांनी रावंक गेलीं. हांव मडगांवां ८० वर्सा जाल्यांत. म्हजीं भुरगीं मडगांवांत जाल्यात, शिकल्यांत आनी संवसारांतल्या बऱ्या वायट सुखा-दुख्खाक तोंड दिवपा इतलीं सक्षम जाल्यांत.

आतां म्हजी पिराय जाल्या. हांव एकलोच केळेकारांत जाणटो भाग्यवान. आमचे भुरगे आमच्या पोरण्या घराची दुरुस्ती करतात तें पळयतां. आतां सगळे जोडटात. भरपूर जोडटात. तांणी पयशे काडल्यात आनी घर नवें करुंक लागल्यात. परबां दिसांनी कांय बिराडां येतात देखीक चवथ बी. आनी देडा दिसाचो गणपती पुजतात. घडटा तें म्हणल्यार चवथीक जेवण शिवराक आसता. सगळ्यांक गणपती जाय पूण शिवराक जेवण नाका अशी परिस्थिती.

हाचेर हांवें उपाय काडलो. आमचो सुमंत केळेकार नुस्त्याक पिसो. तो मडगांवां प्रिन्सिपल म्हण दिसपट्टो वतालो आनी येवंक केदीय सांज जावं. नुस्तें घेवन येतालो. ताका रातचें नुस्त्या-जेवण जायच आशिल्लें आनी बायल अपुर्बायेन तयार करून वाडटाली. हें सुत्र धरुन वर्साक एक दीस सुमंत केळेकार दीस मनोवचो अशें आमी थारायलें. आनी पोरूं सप्टेंबर म्हयन्यांत सगळ्या गोंयभरच्या केळेकारांक आपोवन नुस्त्या-जेवणाची समराधना घडोवन हाडली. ताका लागून वातावरण खुशालभरीत जालेंच ते भायर उलोवपांनीय केळेकारांच्या सामाजीक वावराचेर थोडी भासाभास जाली.

गोंयच्या राजकीय सामाजीक जिणेंत गोंयकारांचो वांटो आसा. केळेकारांनी देशाक रवीन्द्र केळेकार दिला आनी गोंयांक मुकुंद, सुमंत,

(पान १० चेर)

# गोंयच्या लोकसंस्कृतींतलो पावस

**राजेंद्र पां. केरकार**

अस्तमची अरबी सागराची दर्यादेग आनी अस्तम घाटान आशिल्लें आमचें माणकुलें गोंय मान्सुनच्या पावसाच्या दिसांनी पाचवोचार शालू नेशिल्ल्या तरणाट्या चलये सारकें सुंदर दिसता अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. दक्षीण भारतांतल्या केरळान मान्सुनाचो पावस सुरू जालो काय गोंयांन तो कांय दिसांनी येतलो अशी सुलूस लागता. पयलीच्या तेपार आयच्या सारकी येरादारी आनी लोकसंपर्काचीं साधनां नाशिल्ल्यान एकदा मान्सुनांतलो उंटागाराचो पावस सुरू जालो म्हणटकूच दिसपट्टे जिणेन गरज आसपी कडधान्यां, मीठ मिरसांग, सुकें नुस्तें हांचो पुरुमेत जाल्लो आसता. अश्या वस्तूंची खरेदी करपा खातीर पयलीं लोक चड करून पुरुमेताच्या फेस्ताक गर्दी करताले. पावसांत गरजेच्यो वस्तूं घेवपाक पुरुमेताचें फेस्त हे एक थळाव्या आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी लोकां खातीर माध्यम आसतालें. गोंयां सारख्या ल्हान राज्याक पावस उदकाची पुरवण करपी महत्वाचो स्त्रोत आशिल्ल्यान लोकांक गिमाचे दीस माथ्यार आयले म्हणटकूच पावस बेगीन येवचो अशी इत्सा जाता. ऋग्वेदान मळबांचो पूत आनी उदकाची पुरवण करपी पर्जन्य देवतेचीं स्तुती - गायन करपाक सांगला. आमका धनधान्य दिवपाची ताका इत्सा जावं, अशे संदर्भ मेळटा.

गोंयांत अस्तम घाटांतल्या खुबश्या गांवांनी केळबाय, केळंबिका, गजलक्ष्मी, भावकाई, गजांतलक्ष्मी अश्या विंगड विंगड रुपांनी ज्या लोकदेवतेची पुजा जाता तिचो संबंद पावसा लागी आसपाक जाय. दोन हातांनी कमळांचे कळे धारण केल्ल्या ह्या देवतेच्या दोनूय वाटेन तिच्या माथ्यार आपणाल्या सोंडयेन उदकाचो अभिशेक करपी हत्तयांची चित्रां कोलायल्ली आसा. ही गजलक्ष्मी म्हणल्यार जल, जंगल आनी जमीन ह्या तीन तत्वांची देवी म्हणून तिची पुजा करपाची परंपरा गोंयां सारक्या राज्यान पळोवपाक मेळटा. पावसा विशीं गोंयच्या समाजा भितर वेगळे वेगळे लोकसंकेत रूढ आसात. हस्त नखेत्राचेर पडपी पावस भुरग्यां खातीर वायट आसता, स्वाती नखेत्राचेर रकपी पावसांतल्यान मोतयां निर्माण जातात, मृगाच्या पावसाचें उदक पिल्यार चार म्हयने भलायकी बरी उरता, विशाखा नखेत्राचेर पडपी पावस विखारी आसता आनी तातूंतल्या विखारी प्राणी निर्माण जाता अशे जायते संकेत पावसा संदर्भान प्रचलीत आसात. पूण अशें आसलें तरी मान्सूनाचो पावस सुरू जालो की तो अखंडपणान आनी योग्य प्रमाणान पडचो हाचे खातीर शेतकामती देवाधर्मा लागीं प्रार्थना करतात. पावसाचेर भातशेती आदारून आसता देखून महाराष्ट्रा सारख्या राज्यान कुळवाडी पावसा लागीं विनवणी करता -

*पड पड तू पावसा। माळा मुरडाच्या झाल्या वाती ।।*
*कुनबी आल्यात काकुळती ।।*
*पड पड तू पावसा। पिकू दे मुगराळा ।।*
*बंधु माझा लेकुरवाळा ।।*

पावसाचेर भातशेतीचें अस्तित्व आदारून आशिल्ल्यान, पावसाचे प्रमाण कमी जाल्यार ताचे वायट परिणाम भोगपाची पाळी येतली देखून पावसाच्या चार म्हयन्यांनी पावस पडपाची खूब गरज आसता. ताका लागून उदकान भरिल्ली काळी कुपां जेन्ना मळबान दिश्टी पडटा आनी मलबार पायड होर्नबील म्हणल्यार वायऱ्या सारकों सुकणे पाचव्याचार रुखार बशिल्लों दिश्टी पडटा, पावशा सुकणे 'पेरते व्हा' अश्या रितीचो संदेश दिवपाक लागता तेन्ना शेतकामत्याचें काळीज पावसाचे आगमन जातले ह्या खोशयेन उर्बेभरीत जाता. गोंयांतली भातशेतीची परंपरा आयज बऱ्याच प्रमाणात कमी जाल्ली आसा. सांगे, काणकोण, सत्तरी, पेडणें, बार्देसांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतले शेतकार पावसाच्या दिसांनी भातशेती करपाक उत्सूक आसले तरी ह्या वर्सांनी पावस लहरी जाल्ल्यान, तातूंतल्यान जावपी लुकसाण सोंसताना तांची भात शेती करपाची इत्सा नानपयत जाल्ली आसा. पूण अशे आसले तरी पावसाविशीं जायत्यो श्रद्धा, परंपरा गोंयच्या समाजा भितर प्रचलीत आसा आनी गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक तांचें पालन करीत आसता. पावसाच्या दिसांनी माळ रानाचेर तायखिळो, कुड्डूक, भारंगी सारकी रानभाजी किल्लता. पिकिल्ली मिरसांग, फणसाची भिकणां घालून तयार केल्ली तायखिळ्याची भाजी नाचण्याच्या गरम गरम भाकरे वांगडा खावपाक अपूर्व अशी खोशी मेळटा. कणकीच्या कोंबाचो मसालेदार चणे घालून केल्लो रोस, मळये, खरचाणे, खवळे अश्या गांवठी माश्यांचे केल्ले आंबट-तिखट तोणाक, फातरार किल्लवपी सुलच्या भाज्येचो पातळ रोस, कुळटांची पिटी, शेतान पावसाचे उदक साठल्या उपरांत थंय मेळपी कोंग्यांचो उपेग जायत्या गांवगिऱ्या वाठारांतले लोक खुब्या सारके मसालेदार तोणाक करपाक करतात. जेन्ना उंटगाराचो पावस पडोन जळीथळी उमळ जाता तेन्ना गांवठी कोम्याची शागोती आनी उकड्या तांदळाच्या पिठान मेथी घालून केल्ले वडे लोकांक आगळी वेगळी तृप्ती दितात.

पावस हो सैमा भितर परिवर्तन घडयता. दोंगर माथ्यार कोसळपी पावस झऱ्यांच्या रुपान घसघश्यांनी असो पडपाक लागता जो तो पळोवप्यांक खोशी करता. गिमाच्या दिसांनी मरण यातना भोगपी माळ राना वयले करड पावसाच्या थेंब्यांनी नव्या रुपान प्रगट जाता. कावळ्याचे दोळे, हरणां, सीतेचीं आसवां अशी तरातरांची तृणपाती श्रावण-भाद्रपद आयलो म्हणटकूच माणकुल्या आनी सोबीत रंगबिरंगी फुलांनी माळरानाक वेगळी सोबितकाय दिता आनी पावस म्हणल्यार संजिवनी हाचो दिश्टावो घडयतात.

पौष म्हयन्यांत गोंयांत धालांचे मांड धालोत्सवाच्या गितांनी सुमधूर जाता. धालोचो उत्सव हो वन देवतेचो आसलो तरी तातूंत पावसाक हमखास गितांनी स्थान आसा. धालोचीं गितां गायतना बायलां पावसाचो उल्लेख करतात -

*'यराण दुडला तिराण दुडला*
*पावसाचा गे बाये पावसाचा*
*म्हादेवाचा देऊळ बांदला*
*कळसाचा गे बायेक कळसाचा'*

पावसाचो संदर्भ आशिल्लीं जायतीं गितां धालोत्सवा वेळार गोंयची बायलां खोसये भरीत जावन गायतात. पावस कसो पडटा ते विशीं धालोन ही बायलां गावपाक लागतात -

*पावस पडे, पावस पडे वतामे थेंबे*
*आजोबा खेतोबा देवांचे रतान खांबे*

दक्षीण कन्नड आनी उडपी हा कर्नाटकांतल्या जिल्ह्यांनी वेळीप जमातीचे वास्तव्य आसा. शिगमोत्सवांत 'कुडूबी' नांवान वळख आशिल्ले हे आदिवासी तोणया नाच आपणाल्या गांवांतल्या मांडार सादर करतात ते वेळार जी लोकगितां गायतात तातूंत पावसाचो उल्लेख आशिल्लें गीत मेळटा -

*पावस पडला गिळये,*
*चिकण जालां माळये*
*आंगाच्या वोळेक पांयो दिवेला।*

पावसाचें आगमन जाल्या उपरांत काय खिणां भितर जळामळार चिकचिकीत जाता. पूण अशें आसलें तरी पावस अस्तम घाटांतल्या लोकां खातीर मन भुलोवपीच आसता. पावसाच्या दिसांनी आषाढ म्हयन्यांत लग्न केल्ली धू आपल्या आवयगेर येवपाची गांवगिऱ्या वाठारांनी पद्धत आसा. पावस जेन्ना आर्द्रा आनी मृग नखेत्रांचेर लागता तेन्ना आवयक लग्न करून दिल्ल्या धुवेची याद येता -

*पावस नी गे लागे आदो मिरग पानी करी*
*माऊली चिंता करी लेक उरल्या परघरी...*

भावा-भयणीच्या स्नेह बंधाचेर उजवाड घालपी एका लोकगितान भयण पावस आपल्या भावाच्या शेतांत पडचो हाचे खातीर मेघ राजा लागी विनवणी करता,

*'लाग, लाग रे मेघराया*
*माझ्या बंधवाच्या शेता*
*आमली पेजयेन भल्ली पोटा*
*माथ्यार कुणयाची मोटा।*

अशा जायत्या लोकगितांनी पावसाचे उल्लेख मेळटात. पावस पडलो जाल्यार धान्यांची पैदासी जातली, न्हंया-बांयांक उदक मेळटले. सजीवांची जीण सुखी जातली देखून गोंयच्या लोकसंस्कृतायेंत पावसाक आदराचे स्थान दिल्लें आसा.

---

*(पान ८ वयल्यान)*

शशांकर, नरेन्द्र, समीर आनी थोडेभोव हांव गुरुनाथ दिला. माधवी सरदेसाय आनी शंकर भांडारी ही केळेकारालीं नातरां.

हातूंत रवीन्द्रबाबान आमकां नॅशनल केल्यात. आज रवीन्द्रबाबाक 'गोंय राज्याचो' मुखेल प्रणेतो मानतात. रवीन्द्रबाबान जी पारितोशिकां मेळयल्यात ती पळोवंक वरभर लागता. साहित्य अकादमीचो कोंकणींतलो पयलो पुरस्कार, ज्ञानपीठ मेळोवपी पयलो गोंयकार, साहित्य अकादमीचो फेलो, डॉक्टरेट आदी अगणीत पुरस्कार मेळोवन केळेकारांक नॅशनल केल्यात. एकूच गजाल म्हाका खटकता ती म्हणल्यार सगल्या देशांत केळेकारांचे नांव 'केळकर' करतात. चॅक लेगीत 'केळकर' म्हण येतात. आनी बँको परत करतात. रवीन्द्र केळेकार खासदार जालो ना ताचें हें कारण आसुंये.

आतां आमी आमच्या ह्या सरी केल्ल्या पोरण्या घरा भायर, नव्या बांदिल्ल्या घरा भायर, मागीर हें ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार हांचें मूळ घर अशी पाटी लावची थारायल्या आनी हें कोरोना प्रकरण सोंपल्या उपरांत ती पाटी मोट्या दबाज्यान लावची केल्या.

रवीन्द्रबाब केळेकाराचे तांचें स्वताचे बापूय डॉ. राजाराम केळेकार हांणी बांदिल्लें घर आसा. आता रवीन्द्रबाबाची शंभरावी जयंती येवची जाल्या. रवीन्द्रबाबाचो चलो गिरिशान हें घर सज्ज केलां. आनी आमी सगळे (हांव धरून) तो दीस बेगीन येवचो म्हण पळयतात.

..............

*हांव कोंकणी घराब्याचेर बरोवंक करतालों. स्वार्थान म्हाका केळेकार घराब्याचेर पयलीं बरोवंक लायलें.*

संपर्क: ९४२०८९६१२५

*(पान ७ वयल्यान)*

'भाभीचें जेवण आई सारखें जाता!'

हो लेख बरयतना शिरावण सोंपपा कडेन पावला. फाटलीं तीन वर्सां घरचे शिरावणी अन्न संसकृतायेंतले धुंदीक हांव मुकलां. कित्याक हांव म्हज्या घरांत रावना. पणजे रावतां. म्हजी आई शिरावणांतले आयतार पुजताली. दर आयताराक, आयतारा प्रमाण कितें ना कितें वेगळें शिजतालें. ताचो वास घरांतूच न्हय शिरावणी पावसाळ्या वातावरणाचे जडसाणेंत जळामळाक फाफसल्लो आसतालो आनी ताची एक धुंदी चडटाली. आईची ही परंपरा घरांत आयिल्ल्या सुनांनी चालूच दवरली. आई गेली पूण शिरावणांतल्या सगळ्या सणांची आनी त्या निमतान अन्नसंस्कृतायेची परंपरा मात उरली. आवय गेल्या उपरांत ती आपल्या हक्काच्या घरांत ज्या धाकट्या पुता वांगडा रावताली तो पूत तिच्या फाटल्यान हे अन्न संस्कृतायेंतल्यान पयस जालो. ते उपरांत घरांत शिरावण दर वर्सा पावल घालतालोच. घरांतली अन्न संस्कृताय वासाचो दरवळ घेवन सगळ्याक भोंवताली आईची याद पसरायत. पूण एक खंत म्हाका आतां जाता, घरचे अन्न संसकृतायेचो अधिकार धुवांकच लाभिल्ल्यान, ह्या परक्यांच्या धना कडल्यान तिचें जतन जावंक पावलें ना. जर ती संस्कृताय घरांतल्या पुतां कडेन पाविल्ली जाल्यार सासणाची तगून उरपाची...!! म्हज्या सारख्यांक कोणाची तरी रिसिपी वाचून वो हाका ताका विचारून नवी अन् संस्कृताय निर्माण करपाचीं कर्मकट्टेपणा करपाची गरज नाशिल्ली.

संपर्क: ९८२२१३६८८५

# 'सांवार युगाचें' सांस्कृतीक मोल

**प्रकाश वजरीकार**

कला साहित्य शिक्षण संस्कृताय आनी समाज हांचे रीण पावोवपी हो एक भूंय पूत. कोंकणी रंगमाचयेक प्रायोगीक मुल्यांची देणगी दिवपी श्रीधर कामत बांबोळकार हो एक प्रयोगशील रंगकर्मी. कोंकणी नाटकाच्या मळार निम्न वेवसायीक रंगमाचयेची बुन्याद घालपी हो दृश्टो कार्यकर्तो. कोंकणी नाट्य कलाकार, चडांत चड जांणी निर्माण करून तांचें संघटन करून तांचे क्रियाशीलतायेक वाव दिवन उपरांत तांचें कलात्मक विघटन (decentralised) करून ध्येय प्राप्तीचो आनंद घेवपी, नाट्य समाज घडोवपी एक रंगयात्रीक! जाणें ५०० वयर पुस्तकांक मुखपृश्ठां दिलीं आनी तातूंतल्या कितल्याश्याच कोंकणी पुस्तकांक दिल्ल्या मुखपृश्टांचें पान सजोवपी विनयशील चित्रकाराचे, दिग्दर्शकाचे हें पुस्तक उजवाडाक येता. ते नदरेंतल्यान हो एक इतिहासीक खीण म्हणपाक जाय.

भारतीय कादंबरीकार श्री. महाबळेश्वर सैल हांचे 'युग सांवार' कादंबरेच्या आदारान रचिल्लें - 'सांवार युग' ह्या श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी बरयल्ल्या आनी सुमार ३५ कलाकार आनी १५-१६ तंत्रज्ञ कलाकार अशे मेळून ५० लोकांच्या समुहान ह्या नाटकाचे पयलें प्रायोगीक मुल्य दाखोवन दिलें तें गोवा कला अकादेमी आयोजीत २९वे कोंकणी नाटक सर्तींत (२००४-०५) आनी गोंयां भायर बेंगळूरु हांगाय बी. २००५ वर्सा ह्या नाटकाचो प्रयोग जालो. अपेक्षे प्रमाण नाट्य लेखक, सादरीकरणांतलीं साबार इनामां ह्या नाटकाक फावो जालीं. ह्या नाट्य कलाकाराची श्रेय-नामावळ वाचल्या उपरांत एक गजाल मतींत भरता ती म्हणल्यार कोंकणी चळवळीच्या जाल्ल्या भौजनीकरणाचें हें आनीक एक जैत आसा. अशीं हजार जैतां वा हजारांनी जैतां जोडपाची तांक हे चळवळींत आसा. श्रीधर कामतीन आपले जिणेंत हे चळवळीक दिल्ले हें म्हत्वाचें योगदान. कोंकणी नाटक चळवळीच्या सांस्कृतीक इतिहासांच्या संदर्भांत आनीक एक नोंद घेवंची पडटा ती अशी. ह्या नाटकाची सांस्कृतीक फाटभूंय ज्या म्हालाची आसा त्या अंत्रुज म्हालांतल्या (फोंडेच्या) गोंय सरकारच्या राजीव कला मंदिराच्या सभाघरांत ह्या नाटकाचो कला अकादेमीचे नाट्य सर्ती खातीर प्रयोग जाल्लो.

२००४ श्री महाबळेश्वर सैल हांची युग सांवार कादंबरी ज्या वर्सा उजवाडाक आयली त्याच वर्सा हे कादंबरेचें नाट्य रुपांतर जाता हें कोंकणी साहित्याचें एक बळगें. महाबळेश्वर सैल हांणी कथा आनी कादंबरी हांची सुटसुटीत व्याख्या करताना म्हणलां, ''कथा म्हळ्यार एक झाड, आनी कादंबरी म्हळ्यार अख्खें रान.' श्रीधर हांणी ह्या रानांत आक्रामेंत मारपाचें काम ह्या नाटकाच्या रुपान केला.

सांवार युगाच्या नाट्य निर्मिती फाटली आपली भुमिका मांडटाना मनीसपणाचो पुरस्कार करपी एक कलावंत ह्या नात्यान तांणी आपल्या मनांतलो उमाळो उकतायताना म्हणलां, 'असो सांवार आनी घडूं नाका...' मूळ कादंबरेच्या आशयाक बादिकार दीय नासताना नाट्य निर्मितीचे नदरेंतल्यान कादंबरेंतलीं कांय पात्रां आनी प्रसंग बदलपाचें स्वातंत्र्य लेखकान घेतला आनी तें प्रभावी थारलां. मुळांत, मूळ इतिहासीक कादंबरी लेखन करताना लेखकानूय हें कलात्मक स्वातंत्र्य घेतलांच देखून कादंबरेचो प्रदेश हो तसो पळोवंक गेल्यार काल्पनीकूच आसा. प्रदेशा वांगडाच पात्रां, कांय प्रसंग, वातावरण निर्मिती, निवेदन, घडणुको अशे घटकूय कलात्मक आविश्काराचोच भाग म्हणून येतात. कारण ज्या मूळ घडणुकांचेर जितलें वास्तववादी, संशोधनात्मक लेखन जावंक जाय आशिल्ल्या ते "The Goa Inquisition" ह्या अ.का. प्रियोळकरच्या म्हत्वाच्या पुस्तकाच्योय कांय मर्यादा आसात. ह्याच पुस्तकाच्या मुखपृश्टाची दखल श्रीधरानूय पुस्तक छापताना घेतल्या.

धर्मीक छळ आनी उच्छाद वा अच्छेव कोंकणी भास, साहित्य, समाज आनी संस्कृताय हाका कसो बादलो हाचो सोद घेवंक लावपी ह्या Inquisition धर्मीक न्याय सभा/धर्म प्रसारण सभा हे क्रूर जुलूमी वेवस्थेचो संदर्भ हे नाट्यकृतींत येता. सुमार ४५० वर्सां आदलो गोंयचो प्रादेशीक वाठार ह्या नाटकांत उबो केला. कृशी संस्कृताय, लोक संस्कृताय, गांवकारी पद्धत आदीचो लोक तत्वीय संदर्भ घेवन संभाव्य अरिश्टाची सुलूस दाखोवपी प्रसंगान नाटकाक सुरवात जाता. शेतांत जोत घेवन गेल्ल्या गुण्याचे बैल वाग खातात ही ह्या अरिश्टाची सुलूस. मागीर निवेदक मुखार घडपी नाटकाची सुरवात करून दिता. उमोदाद ह्या संस्कृती निश्ट पात्राच्या गाराण्यांतल्यान ह्या नाटकाक सुरवात जाता. गांवार येवपी संभाव्य यूग सांवार हो लोकतत्वीय कोंसळपी अधिश्टान, पाप-पुण्याचे संकल्पनेक धरून नैतिकतायेचो जावपी ऱ्हास हाका लागुनूच अरिश्टा आड पोट तिडकीन पेटून वाग अरिश्ट परतून लावपाचें वास्तवाचें भान करून दिवपी, उमोदादाची खरस ही नाट्यकृतींतली सांकेतीक खरस थारता. मुखार पाखल्यांचे अच्छेवांचे वागरें कशे तरेन पडटा ताच्यो देखी दिसतात. पोट मारून जोत केलें वागान खाल्लें. हे म्हणीचो अर्थूय ह्यो दोनूय कलाकृती करून दितात.

समाजांतली जात-पात वेवस्था, कर्मठ वर्ण वेवस्था, आफूड-भश्टपणाच्यो सांकेतीक रुढी, परंपरा, देव-धर्माच्या नांवान आपणायल्ली वास्तवा कडल्यान पयस वचपी पलायनवादी वृत्ती, परकी हांयस, प्रलोभनांक बळी पडपी सामाजीक मानसिकता अशे कितलेशेच संदर्भ दाखोवपी समाज वेवस्था उबी करपाचें कसब लेखक करतात. हो समाज सांतेर सासायेच्या बळग्यार हजारांनी वर्सां सावन उबो रावला, प्रस्तापीत जाला असो संदर्भ हे कलाकृतीच्या सुरवातीकूच येता. त्या लोकतत्वाक -धव्या देंवचाराच्या रुपान पाखले बाधिकार हाडटात. धर्मांतरणाचें शस्त्र आपणावन, धर्मीक छळ आनी बाटाबाटी हे दोन प्रकार दोन रितीन दाखोवपाक लेखकान पाद्री सिमांव ह्या पात्राचो सुंदर वापर केला... जेजूक शरण येयात, मनीसपणाचो धर्म आपणायात अशी संत शिकवण संथ पद्धतीन दिवपी पाद्री सिमांव हें एक पात्र तर

कापितांव! हें परस्पर विरोधी प्रकृतीचें पात्र! मोख एकूच धर्मांतरणाची! मार्ग वेगळे वेगळे! जाती वेवस्थेचो उंच-उणाकपणाचो सुंदर संदर्भ 'रायू' ह्या पात्राच्या तोंडांत आयला तो म्हणल्यार ''ल्हान जातीचो तो तिमय्या ताका राजा जावप सोबचें नासलें आमकाय ताच्या शेकातळा रावप मानवचें नासलें' (आनी पाखले हासतात) हें ह्या नाटकांतले मर्मभेदी वाक्य- तर मुखार जेन्ना देवळा म्होडपा संदर्भांत कापितांव (हासत) विचारता, आतां निमाणो एकूच प्रस्न ''कोणय एका हातांत घण आनी दुसऱ्या हातांत तरसाद घेवन तुमचें देवूळ आनी देव फोडूंक येयल्यार कितें करतले तुमी?'' उमोदाद म्हणटा - देवच पळोवन घेतलो तेंका. तोच ख्यास्त दितलो.

दुसऱ्या अंकाचे सुरवेकूच जेन्ना सिमांव पाद्री फाल्यां तुमचो धर्म इबाडूंक, देव फोडूंक 'ते' हातांत तरसाद घेवन गांवान घुसल्यार तुमी तांकां आडावचे नात? हातांत दांडे तरी घेवन? पाद्री वांगडा धर्म चर्चा करपी जोशी म्हणटा - आमी कोण आडायतले? देवच आडायतलो. अशें सांगून सिमांव पाद्री बळजबरीन सती व्हेल्ले बायलेची घडणूक जेन्ना जोशीक सांगता तेन्ना जोशी सतीचें समर्थन करता. छळाचोच होवूय प्रकार. हेंवूय एक तरेचें Inquisition आसा असो अन्वयार्थ काडूंक वाव दिवपी हो प्रसंग आसा.

बाटाबाटीचे प्रकार ह्या नाटकांत नाट्य रुपांत दिसतात ते अशें:-

१) लोकांची समजूत घालून, संथपणान

२) लोकांक प्रलोभनां दाखोवन

३) लोकांक भंय घालून, जबरदस्तीन.

बाटाबाटी आपणावपाचेय कांय प्रकार दिसतात ते म्हणल्यार, जातीय वेवस्था, हिन्दू धर्मातली कर्मठ वृत्ती, पोट भरपा खातीर जमीन हातांतल्यान वच्ची न्हय म्हणूनूय आपणावपी लोक. ह्या संक्रमण अवस्थेचे नाट्यात्मक प्रवेश उबे करताना कांय इतिहासीक संदर्भूय येतात देखीक, कांय गांवांचीं नांवां, व्यक्तींचीं नांवां आदी.

बाटाबाटीक तीव्र विरोध करपी गुरव, गोसांय आदी जातींतल्या लोकांचे मरण यातना भोगूंक लावपी छळांचे जीव घेणे प्रकारूय आसात. नाटकाच्या मर्यादेक लागून सगळेच येनात. Inquisitionची झळ सिमांव पाद्रीकूय कशी लागता ताचीय गवाय ह्या नाटकांत दिसता. ''फकत खुरीस उबे केले म्हूण खरो धर्म वाडना. खुरीस कोरांवचो लागता मुनशाच्या काळजार.'' ह्या पाद्री सिमांवाच्या उतरांनी मानवता वादाचोय पुरस्कार नाटककार करतात. सामुहीक धर्मांतरणान जावपी मनीस जातीचें खच्चीकरण, मानसीक द्वंद्व. मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान अभ्यासपाक ही नाट्यकृती वाव दिता. उमोदाद हें एक प्रतीक रुपांतलें पात्र आसा. तशेंच बायल पात्रांच्या भावनीक विश्वाचोच संदर्भ कांय घडणुकांनी येता.

नाट्य संवादांच्या नदरेंतल्यान दुसऱ्या अंकांत पात्रां चड व्यक्त जातात. तीं argumentative दिसतात. पोट आनी प्रलोभनां धर्म आनी तत्व हांच्या द्वंद्वांत आसतानाच ती भरकटून वतात. छळाक आनी बळाक बळी पडटात. देशोधडीक लागतात. धर्मांतरीत जाल्ल्या लोकांचे धर्मीक नितीचेर दुबाव उकतावन तांचेर छळ चलता. तांचें वर्णन (नाट्य संवादा परस) दृश्य रुपान प्रभावीपणान वाचका नदरे मुखार हाडूंक शकतात हें नाट्य दिग्दर्शक, लेखकांचें कसब दिश्टी पडटा. पाद्री सिमांव, गोपिका, गुणा ह्या तीन पात्रांच्या रुपान भावार्थाच्या नांवान कर्तूब दिश्टी पडटा आनी हें नाटक सोंपयताना निवेदक म्हणटा, ''खंयचोच धर्म मुळांत चुकूंक ना. चुकतांत तीं मनशां... अशे तरेची चूक संवसारांत परत घडची न्हय. असो सांवार परत खंयच्याच समाजाच्या वांट्याक येवंचो न्ही. आनी फुडाराक तशे तरेची आगळीक घडोवपाक कोणूय येत जाल्यार तांकां सगळे शक्तीनिशी ना करूंक जाय. हें नाटक पळोवन तुमच्या रसिकांच्या मनांत अशें दिसलें जाल्यार तें आमचें नाट्य निर्मितीचें जैत अशें आमी मानतात. देव बरें करूं! आमेन!''

श्रीधरान ह्या नाटकाची मांडणी इतली शिस्तबद्ध केल्या की संहिता घेवन नाटक उबें करू येता. हौशी रंगमाचयेर लेगीत हें प्रायोगीक आव्हान पेलपाक दिग्दर्शक-लेखकान नाटकाचें ब्लॉकींग केला. म्युझीक डिझायनीग मेळटा, नेपथ्य, न्हेसवण उबी करपाक दस्तावेज म्हण छापिल्ले नाट्य प्रयोगांतले कांय फोटोय आसात. फकत पात्रांच्या सामाजीक जाणविकायेच्या नदरेंतल्यान आयिल्ले संवाद आनी भास शैली, बोली हांचे नदरेंतल्यान समाज शास्त्रीय भाशेचीं परिमाणा लायल्यार थोडेशें वेगळेंपण दिसता.

ज्या युग सांवार कादंबरेचेर हे सांवार यूग नाटक आयलां तांची मुळां Inquisitionत आसात आनी Inquisitionचीं पाळांमुळांय सोदचीं पडटात स्पेनांत! ज्यू लोकां कडेन आशिल्ली अर्थीक सत्ता, व्यापार सत्ता, बौद्धीक सत्ता आनी राजकीय सत्ता हांच्या दुस्वासपणांतल्यान, ही हातासपा खातीर दुस्वासान तांचे विशीं धर्माच्या लागणुके वयल्यान गैरसमज पातळावन तांचेर ०२ जानेवारी १४८१ वर्सा पयलें Inquisition लायलें. पयल्याच दिसा ४ ज्यूंक लासले ८० जाणांक आजल्म कारावास उपरांत २००० जाणांक लासले तर १७०००क मरण यातना दिल्यो. आरागोनचो राजा फर्डीनांड आनी कास्तीलची राणी इजाबेल हांच्या लग्ना निमतान दोन साम्राज्यां एकठांय हाडपाक वावुरपी डॉमिनिकन धर्मगुरू स्पेनांत Inquisition हाडपाक जापसालदार थारलो तो धनदौलती खातिरूच. ज्यू लोक उपरांत संपत्ती वाटावपा खातीर इटाली आनी आफ्रिकेक स्थलांतरीत जाले आनी पुर्तुगालाक एकवटान सोशीकतायेन जगपी ज्यू लोकांकूय तांचो धग लागलो. गोंयांत पुर्तुगेज राजसत्ते वांगडाच तरेकवार धर्म पंथांचेय पाद्री आयले तातूंत जेज्वीत, फ्रांसीस्कन, डॉमिनीकनूय पंथाचे पाद्री आयिल्ले. मुळांत गोंयांत जीं सत्ते खातीर आक्रमणां जालीं, लुटमार जाली ताचे फाटल्यानूय राजसत्ता जाल्यार अर्थीक सत्ता, धर्मीक सत्ता, व्यापार सत्ता, सैमीक समृद्धी, हांगा सरलो मूळ कश्टी, प्रामाणीक सोशीक समावेशक आदिवासी समाज, मुळांतली सांस्कृतीक शांतताय अशे साबार घटक जापसालदार आशिल्लेच.

अशे फाटभुंयेर १६ मे १५४५ दिसा मोलुकूस आंबोनिया सावन पुर्तुगालचो द जुवाव राजा तिसरो हांकां सेंट फ्रांसीस झेवियर पत्र बरयता आनी (भारतांत) गोंयांत Inquisitionची मागणी करता.

राजान प्रतिसाद दिलोना. उपरांत वेगळे वेगळे रितीन ही मागणी गेल्या आनी १५६० Inquisition लागू जाला. ह्या नाटकाच्या प्रस्तावनेंत पुंडलीक नायक नाटकांतल्या सिमांव पाद्रीच्या पात्राचेर भाश्य करताना पाद्रीचें पात्र खुबूच उठावदार जालां अशें म्हणटाना - ''सेंट झेवियरचें चरित्र जांणी वाचलां तांकां ह्या पात्रांत झेवियराचें पडबींब दिसूं येता.'' पुंडलीक बाबाचें हें विधान सेंट झेवियर आनी नाटकांतलें पात्र हांकां लागना. अशें म्हजें मत. आनी एका नाटकांतल्या विधानार पुंडलीक नायकान चर्चा केल्या तें वाक्य युग सांवार कादंबरेंत आनी सांवार युग नाटकांत तशेंच आसा. 'खंयचोच धर्म मुळांत चुकूक ना. चुकतात ती मनशां.' नाटककार पुंडलीक नायकाक हें विधान नाटकी आनी फसवें दिसता. तांच्या मतान धर्मा खातीरूच इतिहासांत संघर्श झुजां, अच्छेव जाल्यात इन्क्विजिशन धरून. मानवतायेचे कसवटेर सगळे धर्म एक तरेच्यो अंधश्रद्धा थारतात - अशें सांगून महात्मा गांधीचें विधान तें अधोरेखीत करतात. 'सब धर्म अच्छे है पर सब धर्म कच्चे भी है'। रवीन्द्र केळेकार हांणी गांधीचीं हीं उतरां 'सभी धर्म अच्छे है सभी धर्म सच्चे है और सभी धर्म कच्चे है'। अशे तरेन वापरल्यात. हातूंतले सभी धर्म सच्चे है हें उतर मानवतावादाचोच, समतेचोच पुरस्कार करपी आसा ही भुमिका समकालीन परिस्थितींत खूब म्हत्वाची आसा.

'सत्य सांग' वा 'सत सांग' ह्या उतरा वेल्यानूच मत सांगून लेगीत धर्मांतरीत जाल्ले जे लोक छळाक बळी पडल्यात. मरण यातनेंतल्यान जे शेंकड्यांनी वा घडये हजारांनीय लोक गेले आसतले. स्थलांतरीत जाले. पोटार हात घेवन गेले. ह्यो यादी तर जाग्यो जातातूच. तांकां कोण आडायतलो? त्या सत्याचें एक रूप दाखोवपी ही नाट्यकृती आसा आनी कादंबरी आसा.

कवी विष्णू वाघ हांची एक कविता ह्या संदर्भांत घेता (सुशेगाद-संग्रह पान नं. ४१)

*जुन्या गोव्यात*
*रात्र शांत झोपी गेली असतानाच*
*आफोंस अल्बूकेर्क येतो*
*घुरी घालण्यासाठी...*
*घोडे किंचाळतात*
*शस्त्रे खणखणतात*
*जुन्या गोव्याच्या चौकात*
*मुडद्यांच्या राशी*
*किंकाळ्यांचा खच*
*मांडवीच पाणी*
*लाल भडक.*

*बायबलच कवाड उघडून*
*सैतान पाऊल बाहेर टाकतो*
*जमिनदोस्त करीत जातो*
*देवळां मागून देवळं*
*मूर्ती छिन्न भिन्न*
*ठिकऱ्या ठिकऱ्या*
*........*

*........*

*फ्रांसिस झेवियर फिरतो आहे*
*प्रत्येक प्रेताच्या नाकाला क्रूस लावीत*
*या मृतांच्या राजधानीत*
*चबुतऱ्यावर उभा राहून*
*देत आहे करुणेवरचें प्रवचन*
*.......*
*शेवटी झेवियरही थकतो*
*आपल्याच सांगाड्यावर साचलेला*
*प्रवचनांचा थर उचलून*
*भिरकावतो दूर दूर*
*नि हाडांची मोळी*
*सरकावतो*
*काचबंद पेटीत.....*

*दिवस उजाडला की*
*पेटी, दर्शनासाठी*
*चर्चमध्ये ठेवण्यात येईल.*
*नोंद घ्या:*
*की हे एक्स्पोझीशन*
*शेवटचं असेल.*

संपर्क: ९९२३२४५६०३



# लप्रेक, मोगान शार जावप - गद्याचें एक नवें रूप

ममता दीपक वेर्लेकर

संसारांतली सगळ्यांत पयली कविता, गिलगमेशाच्या आख्याना कडल्यान स्टॅण्डअप कॉमेडी, स्टॅण्डअप कविता, स्टॅण्डअप कथा तशेच ग्राफीक साहित्या मेरेन साहित्याचे रंगरूप बदलला आनी जनरेशन झी मेरेन पावतां पावतां तांच्या गरजे प्रमाण साहित्याच्या कायारुपाची दिमाखान उदरगतूय जाल्या आनी तातूंत नवेपण लेगीत आयला. संकुचीत सामाजीक आनी राजकारणी आडमेळींनी कितल्याश्याच नव्या, उत्साहपूर्ण, पुरोगामी आवाजांक आडावपाचो यत्न केला, तांकां चिड्डिला पूण तरींय ह्या मर्यादीत आवाठांत साहित्यीक अभिव्यक्तीन तितल्याच तीव्रतायेन आनी कांट्याखुट्यांतल्यान आपली वाट काडल्या आनी मनीसपण, सत्य, न्याय, वास्तवताय, नैतिकता हे सारक्या अनेक प्रस्नांच्यो जापो आनी अस्तित्वाच्या अर्थाचो सोद चालुच दवरला.

शिलालेखां कडल्यान पुस्तकां आनी पुस्तकां कडल्यान एका नव्या संसारांत आयज आमी भितर सरल्यात. फेसबूक, ट्विटर, इंस्टाग्रामाच्या संसारांत. ह्या संसारांतल्या वणटींचेर साहित्य बरयतात, वाचतात. देखून लेखकांचो एक नवो वर्ग हांगा तयार जाला. 'इंस्टा कवियत्री' रूपी कौर हांच्या 'मिल्क एण्ड हनी' ह्या संग्रहाक मेळिल्ले येस अशेच एक उदारण. हांगा दर विशयाचेर लेखन जाता, बरपाच्या वेगळ्या वेगळ्या तरा-तरांचो प्रयोग जाता. सर्जनात्मक तशेच विश्लेशणात्मक लेखनूय तितल्याच गंभीरपणान जाता. अर्थात, बारीक-सारीक बरें-वायट सगळे हांगा बरयतात. मोग ही तातूंतलीच अशीच एक 'क्लिशे' तरी मनभुलवणीं अशी भावना.

भारताच्या मुखेल प्रवाहांतल्या साहित्यांत जावं फिल्मांनी जायत्यो प्रेमकथा बरयतात, वाचतात, गायतात. पूण रवीश कुमाराच्या मतां प्रमाण भारत प्रेमानुकूल वा लवर्स फ्रेंडली देश न्हय. हांगा लोकशाय आसली तरीय मोगा बाबतीन जायतीं बंधना आसात. पूण तरीय मोगान सगळ्या आडखळींचेर मात केल्या. 'इश्क में शहर होना' ह्या 'लप्रेकां'त रवीश कुमार हांणी २१व्या शेंकड्याच्या नदरेंतल्यान, फेसबुकाच्या मर्यादीत स्पेसान ह्याचे बाबतीतलीं आपलीं मतां सर्जनशीलतायेन आनी जाणविकायेन मांडल्यात.

'लप्रेक' रवीश कुमार हांणी आपल्या फेसबुक वॉलार बरयिल्ल्या लघू कथांचो झेलो हो राजकमल/सार्थक प्रकाशनान उजवाडाक हाडला. 'लप्रेक' म्हणल्यार 'लघू प्रेम कथा' जाका मायक्रोस्टोरी, नैनो स्टोरी, फेसबुकियी फिक्शन, किस्सागोई का नैनो संस्करण अशेय म्हणटात. रवीश आपल्या भुमिकेंत म्हणटा, तुमी तेन्नाच एका शाराक नव्या तरेन सोदतात जेन्ना तुमी मोगान आसतात. आनी मोगान आसप म्हणल्यार फकत हात धरपाची निमतां आसनात तर दोन मनशांच्या त्या स्पेसान खूब कितें घडटा. हांचो जल्म त्याच संभ्रमांतल्यान आनी संघर्शांतल्यान जाला. ''लप्रेक'' आता बरपाची एक नवी गद्य शैली/विधा म्हणून हिंदींत फामाद जाला. रवीश कुमाराच्या ह्या ''लप्रेकांक'' राजकमल प्रकाशनाच्या संपादकीय अध्यक्ष्याच्या कल्पनेन पुस्तकाचे रूप फावो जाला. लप्रेकाच्या ह्या श्रृंखलेन आनीक दोन पुस्तकां आसात. गिरिंद्रनाथ झा हांचे 'इश्क में माटी सोना' आनी विनित कुमार हांचे 'इश्क कोई न्युज नहीं.' हांकां 'लप्रेक ट्रायोलोजी' अशें नांव दिलां. ही तिनूय पुस्तकां २०१५ सालांत उजवाडाक आयल्यात. हे तरेचीं जायतीं पुस्तकां हिंदींत आयल्यांत. ते भायर युवर कोट्स, इंस्टा हे सारक्या वेगळ्या वेगळ्या माध्यमातल्यान हिंदी बरोवपी ''हेशटेग'' लावन आपली जायती लप्रेकां बरयतात.

फेसबुकार सद्या ६३,२०६ केरेक्टरांची सिमा आसा आनी लप्रेक तेन्ना बरयल्ले. जेन्ना सिमा ४०० उतरांची सुमार आसली. विचारांचो होच ताण, केरेक्टराची सिमा आनी अश्या भाशेचो वापर जो स्वता खातीर आनी वाचप्यां खातीरूय आसा. हीच गजाल लप्रेकाच्या शिल्पाक बळिश्ट करता अशें म्हणू येता. रवीशाक काणी सांगपाची आशिल्ली आनी भियेनासतना सांगपाची आशिल्ली, आनी तांणी ती सांगली. कांय कारणां खातीर हिंदी साहित्या कडल्यान पयस वचपी आनी गंभीर साहित्याक भिवपी वाचप्यांक आनी ते भायर अटेंशन स्पेस कमी आशिल्ल्या रसीक पाठकांक तांणी हिंदी साहित्या कडेन परत ओडून हाडलें.

बोवाळ आनी गोंदळान भरिल्ल्या, खर सर्त आशिल्ल्या शाराच्या ह्या एकांतान लप्रेकाच्यो कमीत कमी शब्दांत माणिल्ल्यो व्यक्तिगत तरी भारताच्या प्रत्येक युवकाच्यो ह्यो काणयो सगळ्यांक आपल्योश्यो दिसपाक लागल्यो.

एका ल्हान शारांतल्यान आयिल्ल्या रवीशाक पयले फावट दिल्लींत येतकच ते शार सामकें परकें दिसता, आपणायनाशे दिसता आनी ते शार रवीशाक फकत आपले बिराड शे दिसता. पूण 'नयना' वांगडा ताका त्या शारांत आपले वेगळे शार अणभवपाक मेळटा. एकमेकांक समजतना, मोग करपाक एकांत सोदतना नयना आनी रवीश दिल्ली शाराच्या दर एका कोनश्याचे सौंदर्य पारखितात, शाराचो नवो एकांत तांकां होलमता. थंयची वास्तुकला, मस्जिदां, देवळां, ब्रीज, इतिहास ह्या सगळ्यांत ती रमून वतात. ह्या सगळ्याक शब्द दितना रवीशाची ,निर्भीक पत्रकार आनी रोमांटीक रसीक मोगी अशी दोन रूपां सामकार येतात. कारण मोगाची नाजूक भावना व्यक्त करतनाच बऱ्या सुक्ष्म तरेन संकुचीत मानसिकता, सामाजीक राजनितीक विसंगती, टेक्नॉलॉजी आनी मानवी संवेदना हांची रस्सीखेच हाचेर रवीश व्यंग्य करता. समाज व्यवस्थेची हुशारकायेन समिक्षा करता. हरशीय एन.डी. टिवीचेर रवीश उलयता तेन्ना आयकुप्यांक आयस्क्रीम खावन भाजयेंतली पोशक द्रव्यां मेळटा अशे म्हणू येता. अश्याच कल्पनारम्य आनी ताच्या काव्यात्मक भाशेचो प्रयोग तांणी केला. हिंदी, इंग्लीश, भोजपुरी हांचो सुवाद आशिल्ली ती भास 'नयी वाली हिंदी'त भर घालता.

साजाजीक माध्यमां प्लेटोच्या 'गुफेच्या' रुपका भशेन. खरें कितें खोटें कितें हे कळप कठीण. रवीशाच्या शब्दांत 'फेसबुकाच्या वणटीर शब्दांची मडीं शेवटून मारलेली आसतात'. ह्या माध्यमांनी जंय एका वटेन सगळ्या लोकांक एकठांय हाडला दूसरे वटेन संवसारांत एकामेकां बद्दल दुस्वासूय तितलेच प्रखरतेन पसरला. हे बद्दल पळोवप्यांक शिटकावपाचे काम रवीश सुरवाती सावनूच करीत आसा आनी ह्या पुस्तकांतूय करता. अश्या जायत्या प्रसंगोचीत विशयांचेर उलयतना ताची भास, केन्ना काँक्रीट आनी केन्ना दुवार्थी जाता. कारण वर्तमान समाज समजवपाक तसो बरोच कठीण अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

'हो लप्रेक प्रकार साहित्यीक पुस्तकांच्या श्रेणींत येना. ताचेर उलोवन 'इंटलेक्चुअल' बुद्धिक विचार कशे मांडपाचे? ते गंभीर साहित्य न्हयच जाल्यार कित्याक वाचप?' अशे प्रस्न जायते जाणांक पडटा. पोप्युलर कल्चराक कितलोय कमी लेखलो तरीय ही संस्कृती समाजाचेर सगळ्यांत

(पान ३० चेर)

# लॉकडावन आनी गांधी विचार

संपदा कुंकळकार

कोरोना वायरसाचें सावट चिनांतल्यान संवसारभर पातळ्ळें. भारत लेगीत ह्या विळख्यांत आयलो. देश स्वतंत्र जाल्या उपरांत अश्या महामारीक तोंड दिवपाची ही आमची पयलींच खेप. ह्या महामारी खातीर आमका क्वारंटायन जावचें पडलें. भारतभर लॉकडावन जालें. सादारण जिविताक ब्रॅक लागलें. एक मोठो प्रस्न उबो रावलो.

संवसारांत जेन्ना क्लिश्ट आनी न सुटपी प्रस्न निर्माण जाल्यात, जाणकारांनी गांधी विचारां कडेन वळून समाधान सोदलां. गांधी विचारान केन्नाच कोणाक निराश करूंक ना. आज प्रत्यक्षांत जरी गांधी ना तरी तांचे विचार समर्थ आसात. ह्या शेंकड्यांत निर्माण जाल्ल्या ह्या संकटांत तोंड दिवपाक गांधी विचार उपेगाक पडटले?

गांधीजीन अकरा व्रतां घेतिल्लीं. तशेंच कांय तत्वांचो तांणी जिवितभर आग्रो धरलो. हांतली कांय तत्वां जर दर एकल्यां मदीं आशिल्लीं जाल्यार ह्या महामारीक तोंड दिवप तशेंच कांय म्हयने घरांत बसून रावप सोंपें जावपाचें. कांय गूण आनी तत्वां मनशाक कठीण परिस्थितींतल्यान तारतात. आमच्या शास्त्रांत लेगीत ह्या गुणांचो उल्लेख आसा.

**स्वावलंबन:** ह्या लॉकडावना खातीर आमी कितलीं परावलंबी जाल्यात हाची जाणीव जाली. मनीस जितलो गरजेच्या वस्तू खातीर परावलंबी जाता, तितल्यो ताच्यो समस्या वाडटात. पोरसांत चार भाज्यो, फळां रोयिल्लीं जाल्यार कितलो फायदो जावपाचो. आपल्या गांवांत वा वाठारांत तयार जावपी वस्तू वापरपाची संवय केल्ली जाल्यार परिस्थिती वेगळी आसपाची. शाराच्या मानान गांवांत रावपी लोकांक मातसो कमी त्रास जालो. कारण ल्हान कांय जायना गांवांतले लोक चड स्वावलंबी आसात.

घरांत काम करपी बायलांक आपोवंक मेळ्ळे ना. ते खातीर सगळ्यांकूच आपली कामां आपणें करची पडलीं. आता आपली कामां म्हणल्यार सादे जेवणाचें ताट लेगीत म्होरयेंत व्हरून दवरपाची कांय जाणांक संवय आसना.

हॉटेलां, खाणावळी बंद जाल्ल्यान जीं आतऱ्या पयऱ्यान भायलें जेवण जेवतालीं तांचे सामकें हाल जाले. ज्या लोकांक गरजे पुरतें जेवण करपाक येता ते सुटले. स्वतंत्र चळवळींत व्यस्त आसतना लेगीत गांधीजी आश्रमांत आसतना जेवण करताले. भाजी चिरताले. पंच-पक्वानां न्हय जाल्यार गरजे पुरतें जेवण करपाक मनशाक येवपाकूच जाय. स्वावलंबी जावप ही मनशाची सगळ्यांत व्हडली गरज. आर्थीक, मानसीक आनी भावनीक नदरेन स्वावलंबी. ह्या कठीण काळांत हाची चड जाणीव जाली.

स्वावलंबनाचो हो नेम देशाकूय लागू जाता. आज सगळ्या देशांनी आपआपल्यो सिमा बंद केल्यात. जे देश खावपाच्या वस्तूं खातीर दुसऱ्या देशांचेर निंबून आसा तांची धांदळ जाली. धंद्या खातीर कच्चो म्हाल जाय म्हूण दुसऱ्या देशाचेर निंबून रावप समजू येता. पूण जेवणा-खाणाच्या वस्तूं खातीर दुसऱ्या देशांचेर निंबून रावपाक जायना. स्वावलंबी जावपाकूच जाय.

**संयम:** ह्या काळांत खावपा-पिवपाच्यो वस्तू सप-सप मेळना जाल्यो. जे जाय ते मेळना जालें. अश्या परिस्थितींत संयम म्हत्वाचो. बाजार, दुकानां उगडी जायना फुडे धांव नासतना, जतनाय घेवपा पुरतो तरी संयम एक नागरीक म्हूण आमी पाळपाक जाय आशिल्लो. संयमान वागप खूब गरजेचें.

**अभय:** लोक भिले. ह्या भंयान चड वाट लायली. भितकच लोक विचित्र वागतात. भंयान मनशाची तकली जाग्यार उरना. देखून अभय म्हत्वाचो. गांधीच्या अकरा व्रतां मदलें एक 'सर्वत्र भंय वर्णन' तांच्या आश्रमांत रावपाक मनशान सगळे तरेचो भंय मनांतल्यान काडून उडोवपाक जाय आशिल्लो. भंयान मनशाचे खूब लुकसान जाता.

**प्रामाणीकपणा:** संसर्ग जातकच जतनाय घेवन हॉस्पिटलांत वच्चे सोडून लोक लिपून बसले. परदेशांतल्यान आयिल्ले कांय लोक जबाबदारीन वागले ना. देशांत आशिल्ले काय जाण वेवस्थीत क्वारंटायन जाले ना. लक्षणां लिपयलीं. हो अप्रामाणीकपणा चड बादलो. पयल्या सुवातेर चिनूच अप्रामाणीकपणान वागलो. तो ताचो स्वभावगूण जाला. ताणें ह्या वायरसाचो संसर्ग लिपोवन दवरिल्ल्यान आमका दिसता ताचे परस चड लुकसान करता. देखून गांधीजी प्रामाणीकपणाचो आग्रो धरताले.

**अपरिग्रह:** अपरिग्रह म्हणल्यार गरजे परस चड साठोवप ना. ह्या महामारेंत लोक अशे वागले जशें आयुश्यभर लॉकडावन जातलें. लोकांनी गर्दी करून गरजे परस चड सॅनिटायझर, टॉयलेट पेपर, बाकिच्यो वस्तू साठयल्यो. ऑस्ट्रेलिया, अमेरिका सारकेल्या देशांत 'टॉयलेट पेपर क्रायसीस' सुरू जाली. जेन्ना एकटो गरजे परस चड साठयता तेन्ना दुसऱ्याक कमी पडटा. मनशाच्या ह्या अती साठोवपाच्या वृत्तीचो गांधीजीन आयुश्यभर निशेध केलो. गांधीजीन अपरिग्रहाचे व्रत घेतिल्ले आनी तांच्या आश्रमांत रावपाक हें व्रत घेवपं गरजेचें आशिल्लें.

**शिस्त:** ह्या परिस्थितींत सगळ्यांत चड म्हत्वाची आशिल्यार शिस्तबाह्य आनी मनाची शिस्त. जपान, तायवान, न्यू[illegible]सा. एक देश कोरोनाचेर मात करपाक पावले. ताचें मूळ [illegible]णिकपणा, सत्य एक देश म्हणून शिस्तीन रावल्ले. नेम [illegible] पाळो दिवप, समाज इतली वायट जावंची आशिल्ली. कस[illegible]रख ही कठीण परिस्थितींतूच शिस्त खूब म्हत्वाची. देखून गांधी[illegible] दर एकल्या कडेन हे गूण आशिल्ले [illegible]

**निवळसाण:** गांधीजींक [illegible] सोंपे जावपाचे. ह्या वायरसाक [illegible] कडेन पळोवं ये[illegible]

संपर्क: ९८५०१४९३१९

## चूक ती चुकच

भौ. संपादक 'जाग'

२०२० च्या आंकांत म्हजो 'कोंकणी साहित्यकारांचें उद्दिश्ट आनी साहित्याचो फुडार' हो लेख छापून आयलो आनी जायत्यो प्रतिक्रिया आयकूंक मेळ्ळ्यो. चुको दाखोवपी प्रतिक्रिया म्हाका चड आवडटात. तेच बराबर त्यो दिवपी रसिकांचो हांव खूब आदर करतां.

काफ्का म्हजे आवडीचो लेखक. पूण एखादऱ्या लेखकांत जीव चडच गुंतता तेन्ना आपल्या हातसून चुकोय जावं येता हाचें म्हाका भान उरलें ना देखून जावंये वा म्हजे स्मरणशक्तेचेर चड पातयेवन राविल्ल्यान जावंये, चुकेर चूक घडली. भोवमुखी वाचक माधव बोरकाराचो फोन येयसर म्हज्या तें लक्षांतच आयलें ना. 'लिओ टॉलस्टॉय आनी महात्मा गांधी हे काफ्काचे प्रशंसक' म्हणपाचें विधान चुकीचें कशें तें ताणें लक्षांत हाडून दिलें तेन्ना म्हाका याद जाली काफ्का आनी थोरो हांचे मदीं हांवें गफलत केल्ली. थोरो हो क्रांतीकारी लेखक काफ्काचेय आदलो. म्हजे छापपाक गेल्ले कादंबरेंत पान ३४१ चेर 'मेल्या उपरांत नामनेक पाविल्ल्या' हेन्री डॅव्हीड थोरो आनी फ्रांझ काफ्का हांची खबर आयल्या. लिओ टॉलस्टॉय आनी महात्मा गांधी हे थोरोचे प्रशंसक आसले अशें तातूंत म्हणलां. ताचें कारण ताणें ते काळार मांडून फुडें व्हेल्ली नागरी असहकाराची संकल्पना. ताच्या विचारांचो प्रभाव गांधी-टॉलस्टॉयचेर पडिल्लो. स्पश्ट वक्तो थोरोक भगवद्गीता आवडटाली. कृष्णान झुंजा मळार अर्जुनाक केल्ल्या उपदेसाचेर ताणें व्याख्यानांय दिल्लीं. भारतीय जिवन पद्धत ही देखघेणी अशेंय तो मानतालो. म्हजे दुबळे स्मरणशक्तीचो फायदो घेवन थोरोची सुवात काफ्कान केन्ना घेतली कळ्ळेंच ना.

म्हायती दिवपी लेख बरयतना चुकीची म्हायती- अनवधानान लेगीत- वचूंक फावना. कारण ते म्हायतीचो आदार घेवन हेरां कडल्यानय चुकीची म्हायती फुडें वचपाचो धोको उपरासता. देखून म्हजी चूक लक्षांत हाडून दिल्ले खातीर माधवबाबाचो आनी जागाच्या ऑगस्टच्या आंकांत 'पडसाद' सदरांतल्यान रुजवात मागपी प्रतिक्रिये खातीर चोखंदळ वाचक सखारामबाब बोरकार हांचो हांव उपकारी आसां. हे अशे पडसादच साहित्याचेर अंकूश दवरूंक पावतात.

**दामोदर मावजो**

संपर्क: ९४२२०५९५०९



## साहित्यांत भाशेची शुद्धताय

भौ. संपादक 'जाग'

'जाग'च्या जुलयच्या आंकांत 'पडसाद' ह्या सदरात ''कोंकणी साहित्यांत इंग्लीश उतरां'' हो म्हजो चीट उजवाडाक आयल्या. ते चिटयेंत कांय [illegible] उमटल्यो, [illegible] म्हज्या कानार आयले. देखून ते विशयाचेर [illegible] म्हजे [illegible] न [illegible] विचार [illegible] मांडल्या.

## पडसाद

आपली साहित्यकृती कशी सजोवप आनी सोबीत करप हाचो पुराय हक्क तिच्या निर्मात्यांचो, निजाचो हक्क आसा, जो कोणूय ताका न्हयकारूंक शकना!

ताणें निर्मिल्ली साहित्यकृती खंयची भास वापरून केल्या ते भशेन ती कृती, ते भाशेची कृती थारतली. सोबीतीकरणाक लागून दुसऱ्या भाशेची उतरां ते साहित्य कृतींत भरसूंक ताका सकत मनाय निखालस ना! पूण अशी भरस करतकर आनी तिवूय सदळपणान करतकर ती कृती अमक्याच भाशेंत आपणें केल्या अशें तो म्हणूंक शकना!

सैमांत कांय नेम आसात, जे कोणूय बदलूंक शकना!

खंयचीय एक वस्त, गजाल घेतली आनी तातूंत दुसरी गजाल भरशिल्ली, तर दोनूय गजाली आदल्यो उरनात. तांची एक वेगळीच भरस गजाल निर्माण जाता.

सान, लातभर धव्याच्च रंगांत, कुलेरभर गडद निळो रंग भरशिल्यार, मळब निळो रंग तयार जाता. तो धवो वो निळो उरना. तशेंच हळदुवो आनी तांबडो रंग एकमेकांत भरशिल्यार भगवो रंग मेळटा!

मोन जातींत लेगीत घोडो-गाढवीण, वाग-शिंवीण, शींव-वागीण हांच्या सहवासांतल्यान, क्रमान खेंचर, वागशींव (टायगॉन) आनी शिंवाग (लायसर) जल्माक येतात. मूळ जनक जनावरां परस वेगळे जीव.

तशेंच संगीतांत दोन रागांचें सूर भरशिल्यार जोड राग तयार जाता. मूळ राग उरना!

भास लेगीत हाका अपवाद ना! अरबी, फार्सी आनी हिंदीच्या मिश्रणांतल्यान हिंदुस्तानी (उर्दू) भास जल्माक आयली.

भाशेचे बाबतीत एक खास गजाल आसा. काळाच्या व्हांवतेंत भास बदलत रावता. उतरांची घडण, वाक्यांची रचणुकूय बदलत रावता. अन्य भाशांची उतरां भाशेंत भरसत रावतात, आनी तातूंतल्यान नवीं उतरांय घडटात. कांय फावट अन्य भाशेचीं उतरां आसा तशींच उरतात आनी खूब तेंपान ते भाशेची निजाचींय उतरां जावन उरतात.

दर एका भाशेचे बाबतींत हे घडटा. वर्सा सूकिनी सवकासायेन हे घडत आसता आनी केन्ना घडलें हेंच कळना. सद्याच्या काळांत मात्र हीच गजाल चड गतीन घडूंक लागल्या.

आयज खंयचोय भारतीय मनीस, सामान्यतायेन आपल्या निजाच्या आवय भाशेंत शुद्धतायेन उलयच ना! जबर इंग्लीश उतरां आनी वाक्यांय भरसून उलयता. आपूण भरस भाशेन उलयता हाचें भानूच ताका नासता.

खूब जाण मोबायलाचेर संदेश धाडटात. एक तर तो इंग्लीशींत आसता आनी देशी भाशेंत आसल्यार ताची अक्षर जुळोवणी रोमी लिपयेंत आसता! निजाच्या भाशे खातीर हे बऱ्याचें लक्षण न्हय.

बिगर साहित्यीक, अशे करतात तें एक फावट समजूंक शकता. पूण साहित्यीकूय तीच वाट माड्डीतात, तेन्ना ती चड खंतीची गजाल.

भास सांबाळप, ही साहित्यीकांची लागणूक मूं? ती तांची जापसालदारकी आनी व्रत आसूंक जाय! तांणीच जर ती सांबाळ्ळी ना तर ती कोणें सांबाळप?

सामान्य मनशाक भाशेचें कांयच पडून गेल्लें नासता. ताका ताचो कोको-भोबो सारको मेळ्ळो की तो सुगूर.

इंग्लीश भाशेन संवसारांतल्या अन्य भाशांतल्यान खूब उतरां घेतल्यात. ती सगलीं उतरां आसात तश्शी आपणावंक नात. ह्या उतरांतल्यान तांणी इंग्लीश उतरां घडयल्यांत आनी वापरतात.

इंग्लीश उतरकोश नियाळल्यार, दर एका उतराची निर्मणी कशी, आनी खंयच्या भाशेच्या उतरांतल्यान घडल्या, ताची म्हायती दिल्ली आसना, देखून तांणी अशीं घडयल्लीं उतरां, इंग्लीश भाशेची निजाची उतरां जाल्यांत आनी तांची भास गिरेस्त जायत आसा.

कोंकणी भाशेतूय अशें घडचें आनी कोंकणी गिरेस्त जावंची. हें अशें करपाची लागणूक ही साहित्यीकांची आसा! आम भौसाची न्हय!

आदल्या काळांत इंग्लीश उतरां बगर, भोव सोबीत आनी उतर संपन्न साहित्यकृती कोंकणींत जाल्यात. मागीर सद्याच्याच काळांत, साहित्यीकांक इंग्लीश उतरां, साहित्यांत घालपाची गरज कित्याक भासता? ही संवय कित्याक लागल्या?

ही आमच्या मनाची गुलामी वृत्ती? काय आमच्या अंतर्मनांत आमका दिसता की इंग्लीश उतरां घाल्यारूच आमच्या साहित्याची प्रगल्भताय आनी सोबीतकाय वाडटा?

अशें दिसता आसत जाल्यार ताचें एक कारण आमच्या साहित्यीकांनी काळाक फावो अशी नवीन, समर्पक कोंकणी उतरां घडोवंक नात. घडयल्लीं आसत जाल्यार ती लेखकां मेरेन पावूंक नात.

इंग्रजांनी आपली भास आनी रोमन लिपी तांणी संसारभर वसयिल्ल्या, वसाहतींच्या आदारान, बुदवंतकायेन आनी बळानूय लोकांचेर थापली. तांच्या भाशीक आक्रमणाक लागून आमची गत आमी स्पार्थकसच्या वांगड्यां भशेन जावंक दिवची न्हय! आमची भास आमी राखूंक जाय आनी काळाक फावो अशी नवी नवी उतरां घडोवन ती गिरेस्त करूंक जाय!

दिसपट्ट्या जण एकलो, सामान्य मनीस ते साहित्यीक धरून, इंग्लीश उतरां भरसून उलयतात, वेव्हार करतात. ताका लागून बरयता तातूंत इंग्लीश उतरां वापरल्यार ते सारकें आसा अशें दिसपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना.

हें अशेंच चलत रावल्यार फुडाराक कसले तरेचें साहित्य येतलें ताची कल्पना बाळगीत:

*''पुशी बाय पुशी बाय*
*हु एट घ साय?*
*टु मी बाबा खबर ना*
*हांव हॅंड बीन टु कुस्मणां.''*

निबंदांतलो परिच्छेद

''भारत हो म्हजी कंट्री. भारत इज अ खंडप्राय नेशन. भारतांत डिफरन्ट लॅंग्वेज आशिल्लो स्टेटस आसात, तरीय व्ही भारतीय आर युनायटेड. युनिटी इन डायवर्सिटी. आमी ऑल भारतीय आर एकमेकाचे ब्रदर्स. आमच्यांत ब्रदरपण आसा.''

देवळांत भटमाम सांगणी करता.

''गॉडा म्हाराज्या गोमंतेश्वरा, शाणू गुणू गोंयकारान, टू डे तुका इलेव्हन सायकलांचो अभिशेक केला तो स्वीट करून, ॲकसॅप्ट करून घे, ॲण्ड ताका केवर कर, कमीग व्हिलान ताका इंटरव्हयू खातीर सरकारी कॉल आयला. हीज इंटरव्हयू इन अ बरे वे जावंचो, आनी सरकारी जॉबा खातीर तो सिलॅक्ट जावंचो. फेवर कर म्हाराज्या!''

अशे तरेची भास आयकूंक येतली, वाचुंकूय मेळटली!

भुरग्यांक काजळाची तीट लायतात. तशें एकाद्रे उतर लेखांत घालप हें समजूंक येता. पूण सदळपणाक उतरां, वाक्यां आनी माथाळेय इंग्लीशींत घालप म्हणल्यार काजळ सारयिल्ले भशेन दिसता!

कितें करप तें साहित्यीकांनी थारावंक जाय. साहित्यीक जंय व्हरतले थंय सामान्य वतलो, फुडली पिळगी वतली आनी तिवूय एक पावल आनी मुखार.

**- दिनकर मुरकुंडे**
संपर्कः ७८७५२२८४५६



*(पान १५ वयल्यान)*

हाताचेर जर वायरस आसा जाल्यार तो मरता. भायल्यातल्यान येतकच वेवस्थीत हात-पाय धुंवप, घाल्ले कपडे धुंवपाक उडोवप, कसलेय सामान भायल्यान हाडल्यार ते पयली डेटॉलान पुसप, भाज्यो बी धुंवप ह्यो साद्यो गजाली पाळ्ळ्यो जाल्यार जायत्या लोकांक संसर्ग जाला तो जावंचो नाशिल्लो.

**सेवाभावः** मनशान आपल्या तांकी प्रमाण सेवा करची. मनशाच्या जिविताचो दुसऱ्यांक, समाजाक उपेग जावपाकूच जाय. अशा कठीण परिस्थितींत तर जावपाकूच जाय. जमता तशी गरजेवंतांक मदत करून तांचो त्रास मातसो कमी करचो. सेवाभाव दर एकल्या भितर आसपाक जाय.

गांधीजी देशाचें चरित्र घडोवपाक सोदताले. बरें चरित्र म्हणल्यार एक पतिव्रत/एक पत्नीव्रत हीच व्याख्या आमका खबर आसा. एक बऱ्या चरित्राक आनिकूय कांय तासां आसात. प्रामाणिकपणा, सत्य उलोवप, अन्याया आड उलोवप, कांय तत्वांक पाळो दिवप, समाज हीत चिंतप. मनशाच्या चरित्र्याची खरी पारख ही कठीण परिस्थितींतूच जाता. आनी ह्या कठीण वेळार जर दर एकल्या कडेन हे गूण आशिल्ले जाल्यार सरकारी यंत्रणेचे काम सोंपे जावपाचे.

संपर्कः ९८५०१४९३१९







# कविते विशीं

**माधव बोरकार**

७.२.२०२०

शद्बांचो अर्थ समजलो म्हणल्यार कविता समजली अशें जायना. कित्याक तर कवितेक एकूच अर्थ आसना. ती शद्बांच्या अर्था पेल्यान वचून तिच्या आस्वादकाक कुरू करीत रावता. तिच्या एका वाचनात जाणवल्लो अर्थ कालांतरान नव्यान वाचतकच वेगळोच दिसपाची शक्यताय आसता. देखुनूच एके कवितेचे कितलेशेच अर्थ मेळटात.

शद्बूच अर्थाची दिका दाखयतात.

***

१६.२.२०२०

केदारनाथ सिंह हो हिंदी कवी आपल्या सृजन प्रक्रिये विशीं सांगता तें अशें. मनांत आयिल्ल्यो वळी कागदाचेर बरोवन त्यो तश्योच दवरप. सुमार स सात म्हयन्या उपरांत त्यो वाचून पळयतकच तांकां ते वळींनी कवितेचो आकार दिसता. आनी तातूंतल्यान कविता उबी जाता. ही प्रक्रिया केन्ना केन्ना वर्सांचीं वर्सां चलता. केदारनाथजीच्या मतान सहज सुचिल्ले वळींनी एक बरी कविता दडून बशिल्ली आसता. देखून अश्यो वळी टिपून दवरपाक जाय.

***

२७.२.२०२०

फळाची रूच ताचो जिबे कडेन संबंद येतकच कळटा. तेच भशेन कविता तिच्या आस्वादका कडेन तेन्नाच ती एका अर्थान परिपूर्ण जाता. ना जाल्यार ती निखटी तिच्या छापिल्ल्या रुपांत उरता. कविता आनी तिचो आस्वादक हांचें मदी एक वेगळेंच नातें जुळून येवपाक जाय.

***

२८.२.२०२०

"Thirteen Ways of Looking at the Black bird" ह्या नांवाची वॉलेस स्टिव्हन्स हांची एक कविता आसा. ती कविते संबंदान आसा. एकाद्रे कविते कडेन वेगळ्या वेगळ्या कोनांतल्यान पळोवपाक येता. तशी तिका पळोवपाक जाय. तशी तिका पळयल्यार तिच्या अर्थाची परिमाणां लक्षांत येवंक पावतलीं.

***

१.३.२०२०

कवितेचे drafts जपून दवरप स्टिफन स्पेंडराक म्हत्वाचें दिसता. हे drafts म्हणल्यार कवितेचो नकाशो आनी तिचो इतिहास अशें स्पेंडराचें मत पटपा सारकें आसा. आमचे मदले बरेच कवी आपले कवितांचे drafts दवरिनात. ते तांणी दवरुंक जाय. कवितेच्या अभ्यासाक ते बरे पडटात. अशे तरेच्या draftsचेर एक पुस्तक आसा ते म्हणल्यार येट्साचे कवितांचेर. तें वाचपा सारकें आसा. केदारनाथ सिंह ह्या नामनेच्या हिंदी कवीचो होच अणभव. तो सांगता आपल्याक सुचिल्ली कविता मुळांत येतना अस्पश्ट आसता. ताचो draft तो दवरता आनी कांय म्हयन्या उपरांत परतून वाचता. तेन्ना ती कविता नव्यान सुचपाक लागता आनी तिका अंतीम रूप मेळटा. 'बनारस' ही ताची कविता अश्याच draftsतल्यान आकाराक आयिल्ली. कांय कवितांचे एका परस चड draftsजातात. ते सगळे सांबाळून दवरपाची तांची संवय. युरोप अमेरिकेंतलीं विद्यापिठां अशे drafts आनी नामनेच्या लेखक कवींचीं हातबरपां आपल्या ग्रंथालयांनी व्यवस्थीत जपून दवरतात. आमचे कडेन ती नदर ना.

***

१०.३.२०२०

शद्ब, सूर आनी ताल हाचो फाव तो सुमेळ. जाता तेन्ना कविता एका वेगळ्याच पांवड्यार पावता. बऱ्या मुक्त छंदातूय हे सगळे घटक आसतात. डिलन थॉमसांची Do not go gentle into that good night ही कविता खासा कवीच्या आनी हेरांच्या आवाजांत आयकतना तिच्या आंगांत भिनिल्ले लयेची जाणीव जाता

कविता दोन रुपांनी आमच्या सामकार येता. एक तिचें कागदा वयलें छापीरूप आनी दुसरें ती वाचतना आवाजाच्या वा स्वरांच्या माध्यमातलो तिचो आविश्कार. एक एक फावट तिच्या छापी रुपांत ती दुर्बोध दिसता. पूण तीच कविता स्वरांच्या माध्यमांतल्यान चड बरी कळूंक लागता. ती सर्वसामान्य वाचप्यां मेरेन पावता.

***

१५.२.२०२०

कवी नवे शद्ब घडयता काय ते आपसूक घडटात? घडोवप आनी घडप ह्या दोन क्रियापदां मदीं फरक आसा. कांय कवितांत आशया प्रमाण नवे शद्ब आपसूक घडटात. ते लयेचो हात धरून येतात. तेन्ना ते भाशेच्या मूळ स्वभावा कडेन एकरुप जातात. ते अडेचे दिसनात. कांय

कवी भाशे कडेन आपल्याक जाय तशे खेळटात. नामांचीं क्रियापदां वा नवीं विशेशणां जल्माक घालप हातूंत कवितेचें हीत साद्य जायना. ताका लागून कविता मात विद्रूप जाता. कांय फावट दुसरे भाशेंतले शद्ब आपले भाशेंत हाडटना गरजे प्रमाण ताका कवी नवें रूप दिता वा आपलेच भाशेंतलो एखाद्रो पोरणो शद्ब वा इकार उकार नव्यान वापरतना भाशेक बाधा जावंक जायना. हाची फाव ती चत्राय घेवपाची गरज आसता. मराठी कवितेंत पु. शि. रेगेक ते जमतालें. ते पोरणे शद्ब तांचे कवितेंत नव्या रुपकारांत दिसताले. ताका भाशेचो अभ्यास आसप गरजेचें आसता.

रेगेची 'पुष्कळा' ह्या नांवाची एक कविता आसा. पुष्कळ ह्या शद्बाचें पुष्कळा हें घडिल्लें रूप, हें आपसूक घडलां म्हणपाचें ती कविता वाचतना जाणवता. बायलेचें एक वेगळें रूप तातूंत पडबिंबींत जाता.

*पुष्कळच तू, पुष्क-कलावंती*
*पुष्कळ पुष्कळ पुष्कळणारी*

ह्या ओळींनी अनुप्रास जुळून आयला आनी तेच बरबर तिचें लयेचें आंग लक्षांत येता.

*ठाय देहत्वाचा हरवियला*
*जीव आत्मदृष्टीने आंदोळवियला*
*मनोमुकर मोहरवियला*
*एकसुरी*

हे वळींत रेगे मोहरणे, आंदोळणे, हरवणे ह्या शद्बांक आदल्या मराठीचें रूप दिता.

***

१७.३.२०२०

बाकीबाब, पंडित आनी रामाणी हांचे मदलो रामाणी हो एकलो कवितेचे बाबतींत concious कवी. कवितेंतल्या प्रत्येक शद्बाचो आनी प्रतिमेचो बारकायेन विचार करपी.

***

१९.३.२०२०

कवितेचे लांबाये रुंदाये वयल्यान तिची मोलावणी करपाक जायना. एखाद्री कविता थोड्याच शद्बांची म्हूण तिका उणी लेखप सारकें न्हय वा एखाद्रो कवी ल्हान कविता बरयता ताका तुवें लांब आनी निबंदा भशेन कविता बरोवंक सांगप म्हणल्यार absurd कशें. कवितेकूच न्हय तर कथेकूय तें लागता. काफ्काच्यो कांय कथा दोन ते तीन परिच्छेदांच्यो आसात. पूण त्यो पूर्ण कथा म्हणपा सारक्यो. Old Man At The Bridge ही हेमिंग्वेची कथा फकत अडेच पानांची आसा. ती इतली ल्हान म्हूण तिका कमी लेखप?

सिसिल डे लेवीस म्हणटा की 'आपले कवितेंत सगलेंच सांगना.' तो आस्वादकां खातीर बरेंच दवरता. देखुनूच कवितेचे एका परस चड अर्थ ध्वनीत जावंक पावतात. कवीन सगळे सांगचेंच न्हय हाचेर तो भर दिता.

खऱ्यांनीच कवीन सगळें कित्याक सांगून उडोवंचें? आस्वादका खातीर कितें तरी दवरूंक नाका?

***

२५.३.२०२०

कवितेक एखाद्रें एक चड जाल्लें उतर जड जाता. तीच तुका तें सांगीत रावता...

***

२७.३.२०२०

एखाद्र्या कवी विर्शी आपल्याक कितें दिसता हें ताच्यो मेकळ्यो कविता वा एक दोन कविता संग्रह वाचून सांगपाक येना. ताच्यो एकूण कविता वाचतकरूच ताच्या काव्य कर्तुपाचो अदमास येवंक पावता. ते भायर ताचे कवितेचेर काळाकूय वचपाक दिवपाक जाय.

***

Folk Poems From China's Minorities हो वेंचीक चिनी लोककाव्याचो अणकार. तो वाचतना चिनी लोक जीण आनी लोकसंस्कृताय हांचें दर्शन जाता. कांय कडेन ती तरल जाता.

*The sun came out and shone*
*On the hilltops, and beneath them*
*the waters came coursing down;*
*lad, do not copy the mountain streams*
*that run away so fast*
*and never return to us*

ह्यो कविता वाचतना हलाच्या सत्सायेंतल्यो गाथा वाचिल्ल्याचो भास जाता.

***

२८.३.२०२०

कांय कवी म्हणटात आमकां कविता बरोवपाक वेळ मेळना म्हूण हांवें नवें कांयच बरोवंक ना. हें पटपा सारकें ना. कविता बरोवपाक वेळ काडचो पडटा अशें म्हणप सारकें न्हय. जेन्ना मन उमाळ्यांनी भरून येता तेन्नाच खरी कविता येवपाक लागता. आनी तेन्ना ती तुजे मानेर बसून आपल्याक बरोवपाक लायता. ते खातीर खाशेलो असो वेळ काडचो पडना. ती केन्ना येत आनी कशी येत हाचो कसलोच भरवंसो नासता. ती आपल्याक जाय तेन्नाच येतली. येता तेन्ना ती थळ काळ पळयच ना. कवीचें काम तिका फकत कागदार उतरावपाचें आसता. तितले खातीर तिची वाट पळोवपाची आसता...

संपर्क: ९४२०२२२८७६



# इतिहास उस्तितना

**कोंकणीची पोरनी सरस्पत उस्तितना कांय म्हत्वाचे लेख आनी बरपां मेळ्ळीं.**
**ती 'जाग'च्या वाचप्यां मेरेन पावलीं जाल्यार तांचे खोशेंत भर पडूं येता अशें दिशिल्ल्यान हें पुनर्मुद्रण - त्या त्या लेखकाच्या आनी संपादकाच्या बरेपणान...**

उस्तून तुमचे मुखार दवरपी - दामोदर मावजो

---

## गोमंतकीय कोंकणीतील एक पद -

तुमि किल्लेय् सोदले विचार किल्लोय् केलों। तरि गुरूबगर देव तुमकां मेळचोनां पेलो ।।धृ।।
आज लेखित् हजारांवैर साधु जाव्न् गेले। तरेतरेन् उपकार त्यांणि लोकांचेर केले ।।
त्या साधुत येक पुण् गुरूशिवाय जालोनां। गुरूशिवाय केन्नाच मोक्षाक कोण गैलोनां।।
या संसारात पुण् गुरू नास्ल्यार काय जातां? येक अक्षर तरि पुण शिकनस्ल्यार कांय देता?।।
गुरू नास्ल्यार कुस्कुट हाताक् गावचेना ।
गांवलेच तरि ते पदराक् रावचेना। रावलें च तरि ते दैवाक फावचेना। ह्ये भाशेन येक मनीस गुरूचो पांग्लो।
आस्तना लेखिना गुरूक् देखुन् तो भंग्लो ।।

**भारतीय इतिहास संशोधन मंडळ,**
वार्षिक इतिवृत्त शके १९३७, पृ. २५७

---

दोंगरी-गोंय ह्या गांवांत रावपी भौ. कृष्ण जगन्नाथ भट बांदकर हो एक मोठो कवी आनी पुस्तकां बरोवपी जावन गेलो. ताचो जल्म त्या गांवांत आशाढ शु. ११ शक १७६६ ह्या दिसा (२६ जून १८४४) जालो, आनी आपल्या कवनांनीं तशेंच आपणें रचलेल्या नाटकांनीं भक्ति मार्ग दाखयत, आश्विन शु. १ शक १८२४ (ता. ३ अक्टो. १९०२) सुक्रार ह्या दिसा रामरुपांत एक जालो. तांणी मराठींत जायतीं कवनां आनी पुस्तकां रचल्यांत. कांय नाटकां बांदल्यांत. दोंगरेर जें श्री सिता-रामाचें देवूळ आसा तांतल्यो मूर्ती कृष्णभट्टानींच ज्येष्ठ शु. ९ शक १८०६ ह्या दिसा स्थापन करून राम-नमीचो उत्सव सुरू केलो. पुनवेदिसा (हनुमान जयंती) मेरेन फुडें २-३ दीस मेरेन त्या उत्सवाक नाटकां करतात. कृष्णभट तीं नाटकां बांदी आनी देखणे नि हुशार भुरग्यांक शिकोवन तीं करून दाखयी. तांचीं कीर्तनां आयकुंक आनी नाटकां पळोवंक. पैशिल्लो देखून लोक मुजरत येताले. कृष्णभट अण्णा किर्लोस्कराचें नाटकगुरू. दोंगरेर तांचीं नाटकां पळोवन, आपणेंय नाटकां बांदची आनी नटांचो मेळ काडून, नाटकां करून दाखोवन पयसो जोडचो अशी तांकां वान्सा जाली. तांणी कृष्णभट्टांचो प्रसाद आनी आशीर्वाद घेवन क्रि. १८८० वर्सा पुण्यात 'किर्लोस्कर संगीत मंडळी' स्थापन केली.

कृष्णभट्ट चैत्र शु. पुनवेदिसा जें लळीत करीत, तातूंत कांय कोंकणी पदां घाल्लीं. तांतुतलीं दोन पदां हांगा दितां:

(शार्दूल विक्रिडीत वृत्तांतल्या आठ कडव्यांतलें पैलें कडवें)

'या हो भटजी बसा, प्रपंच तुमचा चालतो कसा? या दिसां। आम लाय कांयच दशा ना, चेड्यांत चेडी तशी, बायल जातीची अवदिसा।।
करतात तें कितें सांगूंक गेल्यार तुका, शीः तूं तांचेर विट्टोलो'
हांव म्हणून सोसतां, तुज्यान नज अशें, तूं झीट येवन पट्टलो।
संवसारचालक विश्वपालक देव गे देव ।।१।।
व्यापक सकळां जानकीचो घोव गे घोव ।।धृ.।।
पावसा दिसांत शेतांत घालतात रोव गे रोव।।
रामदेवाच्या कृपेन पिकून, जेव गे जेव।।
रामाचो उत्सव पळोवंची इत्सा भोव गे भोव।।
भुरगेबाळांक निश्चय कळाक येंव गे येंव।।
संतांसाठी काळीज जाचें मोव गे मोव।।
कृष्ण जगन्नाथ भक्तां ल्हव गे ल्हव।।१।।

**कृष्ण भट बांदकार** : लेखकः **वा. का. वाघ,**
रायबंदर
*(परमळ, दिवाळी अंक १९६५)*

# दोन भाटकार

**गजानन जोग**

सकाळची घराव्या दुदाची बरी कडक च्या मारून काका कार्जीनी वचपाक भायर सरतालो. तेन्नाच एक जीप येवन वयर रस्त्यार उबी राविल्ली दिसली. म्हणसर खडबडीत सोंपणां सांबाळून देंवत एकलो सकयल आंगणांत येतना दिसलो. तो न्हंयें पलतडच्या खणीचो मॅनेजर गांवणेंकारसो दिसतालो. गाडयेचो आवाज आयकून हातांतलो सुकत घालपाच्या सोलांचो खोटलो हातरपट्यार दवरून काकीय काकाच्या फाटल्यान येवन उबी राविल्ली. तिच्या कोण? ह्या प्रस्नाक तो पलतडचे खणीचो मॅनेजर इतलें सांगून काका दोन पावलां खळ्यांत फुडें सरलो. मॅनेजराक दारांत पळोवन काकाच्या मनांत तरतरांचे विचार उबे रावले. कवाळ्या मेरेन पुरयिल्ले पलतडच्या भाटांतले दोंगरा वटेनचे कितलेशेच माड ताच्या दोळया मुखार उबे रावले आनी त्या दिसाची याद जाली...

काकाक वयल्या रस्त्यार सांज वेळार पासयो मारपाची हाली संवय जाल्ली. फोंडें, उसगांव सावन बाजार करून येतना ट्रकांचेर येवपी कांय लोक हांगा देंवताले. गिमाच्या दिसांनी न्हंयेंतल्यान धिपरभर उदकांतल्यान चलोन वचपाक मेळटालें. पलतडच्या दोन-तीन गांवांनी वचप सोंपें जातालें, कारण भंवताडो चुकतालो. पावसांत मात चार म्हयने हांगा न्हयेंक कस्सोच उतार जायनासलो. खणींचे ट्रक सुरू जाल्ले तेन्नाच्यान पावसाचे तितले दीस सोडले जाल्यार लोकांक ही एक नवी वाट मेळिल्ली. केन्ना न्हय ते त्या दोन वाड्यांवेले कितलेशेच लोक बाजाराक वतना जावं बाजार करून परततना हांगाच काकाक मेळटाले. गांवां पसून पयस रावून लेगीत काकाक गांवांतल्यो बारिक-मोट्यो गजाली समजताल्यो.

ते दिसा शेनवार जाल्ल्यान सांज जाता म्हणसर ट्रकांची येरादारी उणी जावपाक लागिल्ली. आपलेच तंद्रेंत काका रस्त्याचे कुशीन पासयो मारतालो. आदीं रान दुकरांच्या भोंवसळींनी, गोरवांच्या हिंडांनी सकयल्या व्हाळार उदका खातीर देंवपाक केल्ली धाड सोडली जाल्यार थंय नदर पावता मेरेन सगळें रानूच रान आसलें. रस्तो खंयचो, पांयवाट लेगीत नासली. म्हणटां म्हणटां मानिफेस्तां मारपी लोक दोंगरानी भोवपाक लागले. ते खाकी कालसावां, वाटकुळीं चेपीं घालपी लोक गांवांतल्या वाड्यांनीय भोंवतना दिसपाक लागले. थंयच्या चारांय वटांनच्या दोंगरांनी बरो म्हाल लागूं शकता ही फाम पयस पयस मेरेन पावली. एकेक करून गांवांत चार खणी सुरू जाल्यो आनी फाटो फाट ट्रकांक घोळपा पुरते तांबडे रस्तेय तयार जाले. खंय धड खणून जाल्यार खंय तळपां आनी मातयेची भर घालून आशिल्ल्यो त्यो पांयवाटो, धाडी हांकांच तात्पुरते रस्ते करून ट्रक गुरगुरत धांवपाक लागले. तांबडी गुंज माती वाऱ्यार हुबयत आंगार येवपी वागा भशेन रोंव रोंव करीत धांवपी ते ट्रक! झाडां-पेडां, सावदां-सुकणीं, धोरां आनी मनशां हांच्या आंगांक तांबडे मातयेची पुटां चडून सगली जिणूच तांबडी जावन गेली. कोणाचें कुळागर, कोणाचो काजींचो दोंगोर, कोणाचें वांयगण खणींच्या भकीक पडत रावलें.

अशींच धा-वीस वर्सां गेलीं. मागीर पुर्तुगेज गेलो आनी हिंडियान सरकार आयलें खरे पूण खणींच्या धनयांनी गांवांचेर चलयिल्ल्या अत्याचारांचे बाबतींत दोनूय सरकारां सारकींच मुड्डार आनी भेड्डीं हें लोकांच्या रोखडेंच लक्षांत आयलें. काकाचें आलतडचें कुळागर, सर्द आनी पलतडचें भाट मात आजून मेरेन तरी सुगूर आसलें. पूण त्या दिसा ट्रकावेल्यान देंवल्या उपरांत अत्मान सांगिल्ल्या पाड्या खबरीन काकाक मोटेच तळमळे लागले.

पोटली देंवोवन ड्रायव्हराक पयशे फारीक करून वचपाचे तयारेंत आशिल्ल्या अत्मान काकाक पळयलो.

'काका, तुज्या भाटाची वाट लावपाची केल्या काय दिसता. ते नवे खणीचें कवर व्हरोन व्हरोन आतां भाटांत रकोवपाक लागल्यात. कितल्यो तरी टिप्परी चलतात. तुका झेंगडून रकाद दिवंक ना तर?'

'झेंगडू म्हाका मेळल्यार दोन म्हयने जाले दिसता.'काकान सांगलें,

'पयर हांव सदचे भशेन भाटांत नदर मारपाक गेलों तेन्ना पुरयिल्ले सुमार विशेक माड हांये मेजल आनी गांवांत गेलों. शेजारी झेंगडू फण्यां वता तो दिसलो तेन्ना तेका मुद्दाम तुका रकाद दिवन मागिरूच ट्रकार बस म्हणोन सांगलेले. रकाद पावलो ना तर तुका?'

'बऱ्या मनशा कडेन रकाद दिलो मरे तुवें अत्मा, तेका म्हटलां आदीं झेंगडू!'

'कितें जालें,तो दारांतूच सकाळीं फुडें मेळलो, तुज्या घरा कडेन ट्रकार बसतलों म्हणपाक लागलो म्हणोन दिलो रकाद तेचे कडेन.'



'तो खंय तरी भाटयेर शिर्कला आसतलो रे! हुर्काचे दीस मरे हे!'

'हय रे काका, ह्या दिसांनी बेबद्यांची सामकी धन जाल्या. एक मोटेशें सुकें लांकूड तकलेर मारून व्हरपाचें, ढाब्ब करून भाटये कडेन उडोवन भाटीकाराक दाखोवपाचें. मागीर कोपाची राखण लागलीच. आतां आनी हें हिंडियान जालां.

कोण कोणाक भियेना. झेंगडूचें जाल्यार चडूच जालां.'

'झेंगडूचें सोड, कितले, विशेक माड भरीन पुरवयल्यात म्हणटा तूं?'

'हय तर, तूं फाल्यां सकाळीं वचोन मुद्दाम पळय.'

'फाल्यां? हांव आत्तां येतां तुजे बराबर. दोगूय या भाटांत. अत्माक सामानाची पोटली तकलेर घेवपाक काकान हात लायलो आनी घरा वटेन पळयत कुकारो घालो. काकीन भायर येवन कितें काय विचारलें तेन्ना भाटांत पासय मारून येतां म्हणत तो अत्मा वांगडा चलपाक लागलो.

भाटांतली परिस्थिती पळोवन काकाची तकली कणकणपाक लागली. तिडक सामकी मस्तकाक गेली. परिस्थितीच तशी आसली. कितलेशेच माड सामके खाकोळा मेरेन मातयेच्यो राशींच्यो राशीं ट्रकांनी हाडून वोतून पुरोवन काडिल्ले. मदीं साताठ दीस कामांनी घुस्पून उरिल्ल्यान काका भाटांत पावूंक नासलो. चक्क करून ताका आपाच्या-ताच्या बापायच्या उतरांची याद जाली. भाटकारान भाटांत काम ना केल्यार जाता पूण ताचो पांय म्हणटात तो ताच्या सगल्या जमनीक दियार लागपाक जाय. ती पासय चुकोवपाक जायना. सकाळची चुकली जाल्यार सांजची पासय मारपाकूच जाय...

काकान सांगलें तशें पत्र चल्यान मायन कंपनीच्या पणजेच्या म्हाल कार्यालयाक बरयलें. म्हयनो जावन गेल्लो, कांयच जाप येवंक नासली.

खणीच्या मॅनेजराक काका तेच दिसा मेळलो आनी बेगोबेग कवर भाटांत रकोवपाचें काम थांबोवचें ना जाल्यार परिणाम वायट जातले अशें ताका सांगलें. दुसरे दिसा तें काम थांबलें खरें, पुण मदीं मदीं भाटाच्या आड्या कडेन एक दोन ट्रिपी हाडून वोतपाचें चालूच आसलें. त्या गळ्या मेरेन मातयेंत बुडिल्ल्या माडांचो फुडार कितें हो प्रस्न आसलो. तातूंतल्या कांय माडांचे सगले नाल्ल, आडसरां चोरांनी व्हेल्लीं. कांय माडांचे कवाळेय कात्रून काडून भितल्लो गोड गोरोब लेगीत तांणी खाल्लो. ती सगली याद जावन काकाची तकली उसळपाक लागली.

परिस्थिती बदलत वताली. हे मायनिंगाचें रिजेक्शन खंय उडोवप हो एक प्रस्न जावपाक लागिल्लो. तीन वटांनी फॉरेस्ट आनी एके वटेन भाटां आनी गाळी आसल्यो. ट्रक वतात तितले मेरेनची आशिकुशीची फॉरेस्टाची जमीनूय रिजेक्शनान व्यापिल्ली. फॉरेस्टान मायनी आड आपणाली कारवाय सुरू केल्ली.

खणीचें कवर (रिजेक्शन) दाळून दवरपाक आनीक जमनीची गरज आसली. दोन नव्यो धडी उकत्यो करपाचें काम चलिल्लें आनी पंचवीस मेत्रां परस चड कवर काडल्या उपरांत सकयल हायग्रेड म्हाल मेळटलो ही गजाल ड्रील मारून केल्ले तपासणेंतल्यान उकती जाल्ली. ट्रकांनी कवर व्हरून रकोवपाक लागी लागसराक जी मेकळी सुवात आसली ती म्हणल्यार दोंगोर आनी काकाल्या भाटां मदली सुमार धा-पंदरा मेत्रां रुंदाय आनी शें देडशें मेत्रां लांबाय आसलेली जमनीची शीर. थंय कवर व्हरून उडोवन चाळिशेक माड बेलाशक पुरोवन उडोवपाची मस्ती कोणें केली हें काकाक कळपाकूच जाय आसलें...

काकान हातांतलो खोंटलो, गेळीची कांट्याबडी कुशीन दवरली. ताणें कमरा कडेन खवळून बांदिल्लो वालो सकयल सोडून सारको केलो. तकलेक बांदिल्लो वालो सोडोवन खांदार घेतलो. खळ्यांत आसलेल्या ताम्रेतीचेर वालो फापडीत 'ताणें बळयां हांसत म्हटलें, 'येयात, आयज सकाळीं फुडें खंय तर गरिबागेर स्वारी?'

'येवंचेंच पडलें. काल तुमी येवन गेले हे समजलें. हांव पणजे गेल्लो. तुमचो विशय हांवें भाटकाराच्या कानार घाला आनी ताणें कितें तरी करतां म्हळां.'

'कितले दीस जाले हांवें तुमकां सांगून, बेगोबेग हांवें पणजे आफिसांत पत्र बरयलें. म्हयनो जावन गेलो न्हय? तुमी वगी रावपाचे तुमचेर असो प्रसंग आयल्यार?'

ताचेर गांवणेंकार कांयच उलोवंक ना.

''व्हडल्या भाटकारान पणजेच्यान तुमकां रकाद दिला, पळोवया म्हळां.'' अघळ-पघळ हांसत मॅनेजरान परती उलोवपाक सुरवात केली. काजी, वांयगण, आंबे ह्या पिकावळींचेर तो पावलो. काका हय, हां. हूं करीत म्हेडीक तेंकून उबो. म्हणसर काकीन एका पितुळच्या पेल्यांतल्यान च्या हाडून मॅनेजराच्या हातांत दिली.

''तुमी घेणार?'' तिणें घोवाक विचारलें ताचेर मानेनूच ताणें नाका अशी जाप दिली आनी तो म्हेडीक तेंकून उजवें पावल दाव्या धोंपरार धरून उबो रावलो. च्या पितां पितां मॅनेजर खळ्यांत सुकत घातिल्ल्या सुकवणाचेर, मातयेच्या सोप्याक तेंकून दवरिल्ल्या पोटल्यांचेर नदर मारतालो.

''पोटल्यो कसल्यो, सुपारेच्यो?''

''ना ना, भात तें, सुकोवन गिरणीर व्हरपाचें.'' पडवेंतल्यान काकीन सांगलें.

''कशें व्हरतात तर, खंय व्हरतात?''

''आमकां फोण्यां बाजार. गिरणूय थंयूच. आतां खणींच्या ट्रकांक लागून इल्लो आवसूल जाला. बैलांगाड्यान दोन दीस लागताले, आतां सकाळीं पोटल्यो ट्रकार चडयल्यार सांज मेरेन तांदूळ, कुंड्याच्यो पोटल्यो घरांत पावतात.'' काकीन म्हायती दिली. काकान काकी कडेन तिरकी नदर मारली आनी म्हटलें,

''बरें, तें आसूं, म्हाका काजींनी वचपाचें आसा. हांव स्पश्ट उलयतां हां. गांवणेंकार बाब, म्हाका सांगात, तुमी मॅनेजर, तुमकां खबर ना तुमचे ड्रायव्हर कवर व्हरून खंय उडयतात ते?, कोणाल्या जमनींत उडयतात ते?... तुमचे सांगणे बगर हें जालें''

''तें कितें आस, हांव जातां एकलो. सुरवातीक तशी हांवें थंय पासय मारून आइल्लोंच व्हो. पूण म्हणटां म्हणटां पंदरा दीस गेले आनी... मजगतीं तुमचे विशेक माड..''

''विशेक? मेज्जून चाळीस माड पुरयल्यात माती आनी फातरांच्या राशी पोंदा. देडशें माडांच्या भाटांतले चाळीस माड!! दोंगरा वटेनची ती मेकळी सुवात पुरोवन तुमी कवर रकयत रकयत धा-बारा मेत्रां भाटांत पावल्यात आनी थोडे माड जाल्यार सामके कवाळ्या मेरेन पुरवल्यात.''

''हय व्हो, धायेक माड खाकोळा मेरेनशे न्हय, पूण चडूच पुरवल्यात. बाकीच्या माडांक तितलीशी भर पडूंक ना, ताका लागून त्या माडांक नाल्लांचो उतार उणो मेळचोना, घडये

ते भरीक लागून ते बरे वाडतूय... सांगू येता?"

"कितें सांगतात तुमी मॅनेजर? माड जावं ना जाल्यार खंयचेंय झाड जावं, ताका भर म्हणटात ती मुनातूच पडपाक जाय. जंय तिची गरज आसता. तुमी पापांच, धा धा मेत्रां उंचाये मेरेन माड पुरयल्यात आनी ताका तुमी भर म्हणटात? जी तुमी टिप्पर ट्रकांत शेवेलांनी भरून भाटांत व्हरून रकयल्या ती कितें भर तर? तिका भर म्हणटात? ते आसात व्हडले व्हडले गुंडे, तळपां आनी भितर इल्लीशी माती. तें तें सगळें मीन आयज ना फाल्यां पिकपाचें... तुमकां दिसता ते माड जगतले? आनी जे कवाळ्या मेरेन पुरयल्यात तांची आतांच अवस्था कशी जाल्या सांगू? तांचे नाल्ल आडसरां, बोंडे सगलेंच चोरांनी व्हेलां. थोड्या माडांचे कवाळे पिसुडल्यांत आनी भितल्लो गोरोब तांणी खावन उडयला. ते माड मरतले हें कितें त्या चोरांक खबर ना? हेच मातयेंत किल्लले आनी झाडा-पेडांच्या सावळेंत वाडलेले लोक इतले नादान, इतले मुह्रार केन्ना जाले? तांच्या पोटाक सामकीच फाळी कशी पडली? कवाळ्यांतलो गोरोब कोंचून खावंचे परस शेण-माती खावंची आसली..." उलयतां उलयतां काकाचो आवाज वाडलो. काकी परती भायर येवन मदल्या दरवट्या फाटल्यान उबी रावली आनी तिणें चिंतेस्त सुरांत म्हणलें,

"आइकलें हो..."

"शांत जायात काका. आतां काळूच बदल्ला." गांवर्णेकारान दोनूय बचकुलां पसरून तीं जमनी वटेन चेपिल्ले भायर हालयलीं. जशेपरी तो काकालो राग हातांनी दामून उणो करतालो.

"काळ बदल्लो? काळ बदल्लो? माडाक कवाळ्या मेरेन फातरांची भर घालप हें बदल्लेल्या काळान केलां?"

"बरें, म्हाका अर्जेंत वचपाक जाय, जाय जाल्यार वचून मेळात तुमी व्हडल्या भाटकाराक, हांव म्हज्या हातीन जाता तितलें करतलोंच, येतां हांव..." म्हणत मॅनेजर उठलो.

"ना, तशें काय ना, हांव म्हणटां, आनीक थोडे दीस रावात चार-पांच कडेन खणी आसात भाटकाराच्यो, व्याप मोठो, कळाव जावं येता. येतां हांव..." म्हणत तो उठलो.

"च्या फोर्त जाल्या हां!" काकीचेर नदर मारीत मॅनेजरान म्हणलें.

"घरचे म्हशीच्या दुदाची ती." काकीन सांगलें. काकान खोंटलो उखलून काजींची वाट धरली. ताचे चालींत भरिल्ली तिडक पळोवन काकीन म्हणलें,

"जरा सांभाळूनच, काजींच्या मुळांतल्या पत्र्यावर निसरशाल, म्हणून म्हणत्ये."

कांयच उलयनासतना काका तिडकीन चलत रावलो. "आयचो दीस सांबाळून व्हरगे सायबिणी" तुळशीक नमस्कार करीत काकीन पोल्यांक बोटां लायलीं.

आनीक आठ दीस काकान वाट पळयली. ताका चुकुनूच कोणाचें तरी कार्ड येतालें. गावांत फुडें एक तिठोकसो तयार जावपाक लागिल्ल्यान पोस्टान नेमिल्लो एक मनीस थंयच पत्रां कोणाकोणाच्या हातांत दिवन गांवागांवांनी पावयतालो. काकाची पत्रां गांवचो एक ट्रक ड्रायव्हर ताका हाडून दितालो. सद्दां सांजवेळार काका पत्रांची वाट पळयतालो. सेगीत आठ दीस गेले पत्र ना.

सांजवेळार गांवचो आदलो रेजिदोर मर्तेबाब चलयेच्या लग्नाची होवळीक घेवन ज्युस्तूच पावलो. काकान संद सादून ताचे कडेन भाटांत कवर घालां आनी आपणे बरयल्ले चिटीक जाप ना हें सांगलें. आपणे ते गजाली कडेन व्हडलेंशें लक्ष दिवंक ना. आतां गोंय स्वतंत्र जालां, पंचायत आयल्या, रेजिदोराक कोण खाता? अशें मर्तेबाबान म्हणलें. ती रात काकान तळमळत कशी तरी सारली. दुसरे दीस फातोडेर तो उठलो. काकी उठली तेन्ना ताचें म्हशींक सोडप, शेण भरप, न्हावप, पुजा सगलें जाल्लें. तिडकीन आंगाक उजो पेटिल्लो भाटकार सकाळीं फुडें काकीन दिल्ली च्या घोटून आपूण पणजे वचून त्या भाटकाराक जाप विचारतांच म्हणपाक लागलो. म्हणटा म्हणसर तो आंगार खोमीस लकोवन आंगा वयल्या वाल्यानूच भायर सल्लो लेगीत.

"अहो, तुमी पंचा सोडून धोतर नेसलेच नाय..."

"मज कोण ओळखतो तिथे? पंचाकाय अणि काश्टी काय, नागडा बेताळकसा जात नाय मी, बोरें पुरे!!"

पयलीं तिस्का मेरेन ट्रक, मागीर फोण्यां मेरेन कामिन्यांव आनी मागीर एक बस धरून काका धाक सुमार पणजे कुर्ये कडेनूच बस स्टँड पावलो. बशींतल्यान देंवून ताणें एका गाडेकाराक कंपनीचें ऑफीस खंय आसा काय विचारलें. "न्हयेंच्या सामकें देगेर तें ऑफीस आसा, सरळ उबो चलत वच आनी पांचूच मिणटां चल्ल्या उपरांत कोणाकूय विचार, तुका तें ऑफीस मेळटल, अशें ताणें सांगले. काका त्या आफिसांत थंय पावलो तेन्ना धा जावन गेल्लीं. दारार बसलेल्या एक मोडव्या कलसांवांतल्या मनशान काकाक विचाल्लें,

'तुमकां आफिसांत कोणाक मेळपाक जाय काय भाटकारूच जाय तुमकां?'

'म्हाका व्हडल्या भाटकाराकूच मेळपाक जाय.'

'बरें आसा, बसात थंय बांकार. भाटकार येवपाचो जाला. साडे-धांक सुमार येता तो.

खरेंच सारक्को साडेधांक भाटकार पावलो आनी ताणें काकाक येयात भितर म्हणलें. एकल्यान ताचो व्हडलो रूम उगडलो. भाटकारा फाटल्यान काका भितर गेलो आनी थंयचो तो लीप्प हारशांतल्यान दिसपी मांडवी न्हंयेंचो वाठार पळयतूच उरलो.

"काका, बसात." भाटकारान म्हटलें.

"आसूं, उबोच रावतां."

तशें कशें तर, बसात तुमी, हय, हे खुर्चे र बसात पळोवया, तातूंत परकेपण कांयच ना. फाटीं हात घालून ताणें बेल मारली आनी एकलो भितर आयले बराबर ताका च्या हाडपाक सांगली.

"भाटकारा, हांव भायलें कांय खायना पियेना. तुमी घेयात च्या."

भाटकारान च्या घेवन आयिल्ल्या मनशाक पिकीं केळीं हाडपाक सांगलीं. तीं येतकत भाटकारान म्हणलें,

"आतां केळीं खायना अशें मात सांगू नाकात हां, पयशिल्ल्यान दोन तीन बशी बदलून हांगा पावल्यात तुमी."

काकान एकूच केळें खालें आनी भाटकाराच्या आग्राक ताणें मात्तूय मान दिवंक ना.

''उलोंव? तूंय एक भाटकार, तसोच हांवूय.'' काकान अशी सुरवात केली. भाटकारान हयकारी मान हालोवन फुडें उलोवपाक खूण केली.

''तूं व्हडलो भाटकार जाशीत... हांव ल्हान. हांव एका भाटाचो जायन व्हो, पूण भाटकाराक सोबता तेंच करतां हांव. आनी तूं? म्हज्या माडांचें तुवें जें कितें केलां तें एका भाटकाराक कशेंच सोबना. विश्वास बसना जाल्यार येवन नदर मारून वच. पयसो, वकील, कायदो आनी राजाय तुमच्या सारक्या भाटकारांच्या मुठींत आसत गा. पूण तो वयलो भाटकार सगलें पळयत आसता, मोनेपणान. खरें मूं?''

भाटकारान मान हालयली आनी हय, चुकलें तें अशें म्हणले बराबर काकाक मातसो नेट आयलो.

''चूक सुदारात, कवर काडात आनी तें दुसरे कडेन घालात,चाळीस माडांची हत्या थांबयात.''

''तें आता शक्य ना, तुमीच सांगात, तुमच्या गांवची तुमकां खबर आसा, खंय घालूं तें कवर? तुमचे कडेन मेकळो जागो आसा जाल्यार सांगात,आमी विकतो घेतात, आनी तें कवर थंय हालयतात.''

काका कांयच उलोवंक ना. मदीं मातशी शांतताय पातळ्ळी. मागीर भाटकार उलयलो.

'काका, तुमकां लुसकाणीची भरपाय दितां. तुमी थंयच्या आमच्या तीन इसुझू टिप्परांतली एक घेवची. ती तुमच्या नांवार करून दिवया. तुमचे थंयच तो ट्रक खणीर लावन घेतां. ड्रायव्हर दवरात. तुमचो धंदो सुरू जातलो. जाय जाल्यार तुमच्यानी तो वाडोंव येता. आयकला, तुमचो पूत आतां व्हड जाला. ताका तो वेवसाय जातलो, पळयात, विचार करात.

''नाका, म्हाका ट्रकांचो धंदो नाका. म्हजेंय तुजे भशेनूच जातलें. हांव माड, भाट सगलें विसरतलों. तुवें म्हजें भाट पुरयलें ना, भाटकार जावन?''

भाटकार हांसलो. ताका काकाची, ताच्या स्पश्टपणाची मजा दिसली. बारीक वालो आनी हातकापें खोमीस घाल्लो तो उब्या नाकाचो काका ताका वेगळोच दिसलो. ताची ती तीख नदर आनी नदरेंतली तिडक भाटकार जाणूक शकतालो. ताची ती तिडक ताचे नदरेन गरजेचीच आसली आनी ताका ती सोबताय अशें भाटकाराक दिसलें मातसो विचार करून ताणें म्हटलें,

''बरें आसा, तुमकां ट्रक नाका जाल्यार तुमकां हांव ४० माडांचे माडाक १०० कोंतान ४००० रुपया दितां. ही रक्कम आयच्या दरा प्रमाण खूब चड आसा, पूण हरकत ना, तुमका पयशे फारीक करतां पूण तुमी घरच्यांचो विचार कितें आसा तें पळयात, आनी मागीर रकाद दियाद आमच्या मॅनेजरा कडेन कितें ताचें नांव...''

''हांव सांगतां, गांवणेंकार तो.'' काकान उमेदीन सांगलें. चार हजार ही रक्कम ल्हान नासली. भाटकारान घरा विचारपाची सुचोवणी करूंक नासली जाल्यार काका थंयचे थंय हयकार दिवन पयशे घेवनूच वचपाचो. पूण आतां काळ बदल्ला हें काकाकूय समजुपाक लागलें. भाटकाराच्या म्हण्ण्या प्रमाण घरच्यांचो विचार घेवपाचें थरयलें आनी तो उठलो.

''बरें तर कळयात.''

''कळयतां, बरें, येतां हांव.''

काकान भायले कपडे भायले भायर दवरून बांयचेर वचून न्हावन घेतलें आनी स्तोत्र म्हणत तो घरांत सरलो तेन्ना सांज जावपाक सुरवात जाल्ली. देवा मुखार हात जोडून तो मातसो उबो रावलो. पोटांत कावळे आड्डताले. ताका जेवतना पळोवन काकीक समजलें की गजाल बरेपणाची आसा आनी तिकाय जिवाक थाकाय जाली.

''तूं जेवली नाय म?''

''मी तुमच्या आदी जेवते तर...''

'चल चल तर बैस जेवायस ' अशें म्हणत ताणें तिका आग्रोच केलो निमाणें ती तिनूय तोप मुखार दवरून जेवपाक बसली. तेन्ना काकान सुरवात केली.

''बाबू कुठे तर?''

''तो काय मदल्या सालांत आड पडलाय.'' म्हणसर बाबू उठून रानचे कुडींत आयलो

''काका, बरा झाला प्रवास, काम जालें?''

''होय. बऱ्यापैकी काम झाले...''

काकान तांकां ती गजाल जेवणा उपरांत सांगली. ती गजाल घरा पावले बराबर बाबूचें, काकीचें तोंड फुललें. काकीच्या तोंडा कडेन पळयत बाबून हांसून कितें तरी खूण केली. काकीन खुणेन तें मागीर अशी खूण केली.

राती जेवणा वेळार विशय परतो आयलो आनी काकाक इंडियन जालां, स्वतंत्र जालां म्हणल्यार हेंच काय कितें अशें दिसलें आनी खूबूच अजाप जालें. काकीक आनी बाबूक ट्रकाचो धंदो सुरू करपाचो आसलो. बाबू जाल्यार ल्हान भुरग्या सारको फुलिल्लो.

''ट्रक म्हटला की किती खर्च? डायव्हर आहे,किलिंडर आहे...''

''किलिंडराची गरज नसते, तें काम आपणच करायचें.''

''डायवरास पगार नको?''

बाबून ओंठ हालयत काकीक विचाल्ले, तिणें मान हालोवन हय म्हणलें.

''काका, ट्रक मी चालविणार.''

''तूं तूं, अठरा वर्शांचा मुलगा ट्रक चालिवणार? तुज तो शिकायस नको? तूज लायसन नको?''

''बाबूस आतां विसावें लागलें, लग्नाचो झालो हो, त्यास ट्रक चालवायस येतो.''

''आं, कुठे शिकला?''

''तो आमचा भागेली अंता आहे म, त्याच्या बरोबर रोज निमाण्या ट्रिपीस जात होता बाबू.त्याच्या कडून शिकला.''

''म्हणजे तो पेटी शिकायस जात नव्हता तर?''

''काका, मी दोनय कामा करीत होतो. जाताना व सकाळीं पयल्या ट्रीपीस परत येतानाय मी चालवीत होतो.''

''रात्री तूं आतेकडेच ऱ्हात होतास की आणिक कुठे?''

''तिच्या कडेच. त्यानीच मज लायसन काडून दिलें. नेट्टान भितर वचून ताणें नवें करकरीत लायसन हाडून बापायच्या हातांत दिलें.'' काकाचें तोंड तरतरांच्या विचारांनी भरून गेलें. ताका दिसलें, आतां कळलें हिडियन जालां, स्वतंत्र जालां म्हणटात तें कितें तें.

संपर्क: ९४२१२४६६५५

# वाट

कृ. म. सुखठणकार



तुमकां हांवें 'वाट' हे उतराचो अर्थ सांगपाची गरज ना. घरांतल्यान भायर सरतकच घरची वाट धरून तुमी परत घरा येतात आसतलेच अशी हांव आस्त बाळगितां. थोडे घरा कडेन परतता वाट वांकडी करून आनीक खंयूय वता आसतले, ना अशें न्हय. पुणून थंयचें काम जालें की आपशींच पावलां घरची वाट धरता आसतलीं. परिस्थिती सामकीच हाता भायर गेल्ली आसल्यार घरची वाट सोदची पडटा. कांय नजो, तातूंत कमीपणा कांय ना. सांगपाचो मुद्दो, वाट हे उतराचो अर्थ सगल्यांक खबर आसा.

गोंयकारांक वाट हें उतर सामकें संवकळीचें. हालींसरा आमची वळख लेगीत हे उतराक लागून जाता. कशी ती सांगतां. 'हांव सायबा पलतडी वेतां दामूल्या लग्नाकू वेतां म्हाका सायबा वाटू दाखय म्हाका सायबा वाटू कळना', हे देखणेक लागून गोंय अख्ख्या संवसारांत फामाद जालां. हे देखणेंत कोण तरी दामूल्या लग्नाक वता आनी तिका वाट खबर नाशिल्ल्यान सगलोच गोंदोळ जाला. फुडें हे देखणेंत दामूल्या लग्नाच्या सुवाळ्यांत कितें जातलें तें संविस्तर सांगना. लग्नाक केळवण बी आसा काय, ताचो उल्लेख ना. आसूं, तो आमचो विशय न्ही. तर, गोंयकाराची वळख भायर, म्हणजे गोंयां भायर, हे देखणे वयल्यान जाता. कोणाक तरी लग्नाक वच्चें आशिल्लें आनी वाट सांपडू नाशिल्ल्यान सगले प्रस्न तयार जाले आनी तांतूतल्यान ही देखणी तयार जाली अशें आमी म्हणूं येता. मागीर ती अस्तुरी तारया मामाक कितें कितें दिवपाक सोदता तेंय आमका कळटा. तेन्ना नदी येरादारी खातें नाशिल्लें हाचीय म्हायती आमका मेळटा. लग्न आनी वाट हाचें हे मातये कडेन कितलो लागींचो संबंद आसा हाचेर ही देखणी उजवाड घालता. आज काळ बदल्ला. आमी वाट सोदीत लग्नाक वचनात. होंवळीकेचेर सुवाळो जंय जातलो ताचो वेवस्थीत नामो दिल्लो आसता ते भायर नकाशो. हाका लागून वाट कळना म्हणपाक मेळना. फाटीं म्हाका एक लग्नाची होंवळीक आयिल्ली. ताचेर दिल्ल्या नकाश्यांत मेत्रा मेत्राचेर आशिल्ल्या सगल्या खाणा खुणांची संविस्तर म्हायती दिल्ली जाका लागून जाणून बुजून वाट चुकतलों आनी म्हूर्त जावन डायरेक्ट बुफेचे रांकेंत उबो रावतलों म्हणल्यार शक्य नाशिल्लें.

"You are here. To the right Sadu Chicken Centre to the left Savitri Ladies Tailor. 100 metres ahead Ghumti with red flags. Go straight. Old abandoned car with number plate GD- 11. Take left. Sai Krupa Bungalow with gate broken. Garden full of mogri for Shirgao Zatra. 100 metres ahead Vithal Rakhumai Marriage Hall".

असो नकाशो दितकच लग्नाक वाट मेळ्ळी ना हें नीब कशेंच लागू जायना हें तुमकां मान्य करचें पडटलें. म्हाका लग्नाक वच्चें नासत जाल्यार हांव आतां दुसरीं कारणां सांगतां. Necessity is mother of invention ओगीच म्हणू ना.

'आरे देवा, सात तारखेक लग्न? ज्युस्त तेच दिसा कुलू मनाली वचपाक आमी भायर सरतात'.

'आरे देवा ज्युस्त तेच दिसा हिचे बापोल भयणील्या चल्याचो साखरपुडो'.

'आरे देवा तेच दिसा रामाच्या देवळांत आमची पुजा'.

'आरे देवा...' अशें म्हणटकच लग्नाक सामकें येवचें अशें दिसतालें पूण घात जालो ही भावना येजमाना मेरेन पावता. हेच खातीर वाक्याच्या सुरवेक हांव तशें म्हणटा, तुमचे म्हायती खातीर. हांवें कोणाक खंयचें कारण सांगलां तें याद उरचें म्हूण होंवळिके फाटल्यान तें हांव बरोवन दवरतां. बरोवन दवरलेंच म्हूण जायना तें यादूय उरपाक जाय ना जाल्यार बशिल्ले कडेन त्रासान पडटा. फाटीं जाचें लग्न हांवें चुकयलें तो अचकीत म्हाका बाजारांत मेळ्ळो.

''आरे लग्नाक पावलों ना आं ज्युस्त तेच दिसा हिका कावळो आफुडलो. आमगेर शाळीग्राम बी आसा म्हणटकच सामकें कडक सगलें, तुका खबरूच आसा.''- हांव.

ताणें, 'हय रे सामकें कडक' इतलेंच म्हणलें आनी तोंड काळेंच करून गेलो. म्हाका विचित्र शें दिसलें. घरा येवन ताची होंवळीक पळयली, फाटल्यान 'कुलू मनाली टूर' बरयल्लें. दुसरी होंवळीक काडली तिचे फाटल्यान "Crow touch" बरयल्लें. "Crow touch" आनी 'कुलू मनाली टूर' हाची अदला बदल जाल्ली. आतां तो मनीस (कुलू मनाली टूर) म्हाका पळोवन तोंड फिरयता. आसूं. तर, आमी वाट ह्या विशयाचेर उलयताले.

वाट मागीर ती खंयचीय आसू ती खबर आसप गरजेचें. हें आमका महाभारत टिव्हीचेर पळयतकच कळटा. अभिमन्यू चक्रव्हूवांत भितर सरलो खरें पूण तो भेदप ताका जमलेना. म्हणून ताणें आपलो जीव वगडायलो अशेंच म्हणचें पडटलें. चक्रव्हूवांतल्यान भायर सरपाची वाट ताका मेळिल्ली जाल्यार महाभारताचो एपिसोड व्यासाक परत बरोवचो पडटलो आशिल्लो अशें दत्ता फंकांडांनी म्हणटा. म्हजीय परिस्थिती मुंबय बी वतकच अभिमन्यू वरींच जाता. नलू रावता ते कॉलोनीचे व्हॉल्तार नसबंदीचो बोर्ड आशिल्लो तें हांवें मतींत दवरलेलें. पूण तो काडटकच हांव 'इकडे नसबंदी कुठे करतात' हें विचारीत अख्खें माहीम फिरलों हें तुमकां हांवें सांगलांच. थोड्या मेरेन ही गजाल पावूना आसतली म्हूण परत एकदां सांगलें. आतां मोबायलांचेर जीपीएस घाल्ल्याक असो त्रास जायना. मोबायलार एक बरीऽऽ बायल (तिशींत बी आसतली) आपल्या गोड आवाजांत Take Right Take Left

अशें सांगीत तुमकां जाय ते थळार पावयता. पूण ही बायल केन्ना केन्ना घुसपता, ना अशें न्हय. तिका आमचे खांची गोळणे खबर आसचे अशी तिचे कडल्यान अपेक्षा दवरप म्हणल्यार तिचेर अन्यायूच. फाटीं हिणें तिची परिक्षा घेवपाचें थारायलें. (ती म्हणजे म्हज्या मोबायला वयली तिर्शीतली गोड आवाजाची). बायलांक एकामेकाचो दुस्वास. तो केन्नाच ना जावपाचो ना. ती म्हज्या मोबायलांत आसा म्हूण हिचे पोटांत दुखपाक लागलें. आमी केरीच्यान (सत्तरी) रातचीं घरा येतालीं. रातचें हरशींच म्हाका वाहना (स्कुटर) चलोवपाक त्रास जाता.

''पळोवया तुमची सुंदरी कशी वाट दाखयता ती!''

''आगो ती सुंदरी म्हूण तुका कोणें सांगलें?''

''सुंदरी आसल्या बगर तुमी तिका तुमच्या मोबायलांत घाली?''

हिणें तिका Baba, Behind Shikerkar Guruji's house Vailo Vaddo Ribandar Goa' अशें इन्फॉर्मेसांव दिलें.

''आतां चला ती सांगता तशी!''

हांवें स्कुटर स्टार्ट मारली आनी ती सांगता ते वटेन रायबंदरा येवपाक सुरू केलें. हांवें मदीं 'आगो आगो' दोन तिनदा केलें पूण ही कशीच आयकना.

''आज शिकयतांच बुद्ध तिका! थंय रावन आमका वाटो दाखयता हय!'' अशें म्हणून हिणें फाटल्यान स्कुटरीर बशिल्ले कडेन पदर खोयलो. आमी केरी, नानेली, झॉमें, कोपर्डें, दाबें, मावशी, नागें अशें करीत अडवै मायनीर पावलीं. चारूय वटेन किर्र काळोख आनी सुंदरी Take Left म्हूण सांगता. आनी ही,

''ती सांगता न्ही, घेया लॅफ्ट, घेया लॅफ्ट! हांव सांगतां तें आयकुपाची अक्कल ना. अनवळखी बायल मनीस सांगता तें दोळे धांपून आयकता! घेया लेफ्ट आतां!''

शेवटीं मोबायलाची बॅटरी लॉ जाली. हांव तोंड आनी मोबायल बंद करून Behind Shikerkar Guruji's house, Vailo Vaddo, Ribandar Goa पावलों. केरी तें अडवै मायनी मेरेन आमका भारत संचार निगमाचो नेटवर्क मेळ्ळो, तुमचे म्हायती खातीर. तुमचे तकलेक 'हाका नेटवर्क कसो मेळ्ळो' हें चिंतून चिंतून त्रास जावंचो न्हय म्हूण स्पश्ट केलें.

वयर म्हणलां तशें वाट मागीर ती खंयचीय आसना, खबर आसप सामकें गरजेचें. आमच्या शिवाजी महाराजांक आनी तांच्या मावळ्यांक गडाच्यो सगल्यो वाटो खबर आशिल्ल्यो देखून ते दुस्मानाचेर शेक गाजोवपाक पावले. हालींच लागिल्ल्या सिनेम्यांत तानाजी मावळ्यांक घेवन कठीण वाटेन कसो गड चडलो हें आमका अजय देवगणान दाखयलें. ते खातीर ताका सगल्यांच्या वतीन देव बरें करूं म्हणटां. तानाजी कोंडाणा किल्ल्यार कसो चडून गेलो हें दाखोवन अजय देवगणान ३६७ कोटीचो गल्लो जमयलो. सोड, जमोव बाबडो. आमका आमचे घराच्यो वाटो आडवाटो खबर आसप गरजेचें. कारण, आमचे मनांत नासल्यार लेगीत आमका तेच घरांत वच्चें पडटा. मनाक कितलेंय दिसलें तरी आमका दुसरे घरांत वचपाक मेळना. आमका शेजाऱ्या पाजाऱ्यांचे घराच्यो आडवाटो खबर आसप गरजेचें. कारण, प्रसंग सांगून येनात. देखीक, आमगेर नवी सवायशीण अचकीत भितर सरतकच तिची होंट भरपाक खण आमगेर नासतालो. आईन दोळ्यांनी कुरू करतकच हांव मागील दारच्यान पोरोबाल्या कुमांवां फाटल्या दुगा वयल्यान उडी मारून शिकेरकर गुरुजीचे शिरेंतल्यान पायणींत देंवन बरडागेर पावतालों आनी तेच वाटेन खण घेवन पांच मिणटां भितर घरांत हजर जातालों. हांव भायर सरून घरांत भितर परत केन्ना सरलों हें पावण्यांच्या लक्षांत लेगीत येनाशिल्लें. ह्यो आडवाटो फकत किल्ले जिकपा खातीर नासतात. वेळार होंटी भरपाकूय उपेगा पडटात हें तुमकां आतां कळ्ळांच आसतलें.

हिंदी सिनेम्यांनी नायक आनी नायिका जेन्ना तांचे पालक तांचे लग्नाक आडमेळी हाडटात तेन्ना पळून वतात. पळून वतात तेन्ना तीं सदचे वाटेचो उपेग करिनात. तीं सदांच खंयचो तरी दोंगोर चडटात आनी देंवतात. दोंगोर देंवतकच रोखडोच शारा कडेन वचपी महामार्ग लागता. त्या महामार्गार उबीं रावन तीं ट्रकांक हात दाखयतात. ते ट्रकाच्या फाटल्यान भरिल्ल्या सामानाचेर न्हिदून तीं शारांत पावतात. ह्या ट्रकाचो ड्रायवर चडसो सरदारजी आसता. शारांत, ट्रकांतल्यान देंवतकच तो तांकां 'जुग जुग जियो' असो आशिर्वाद दिता आनी आपले दोळे पुसता. हांवें मदीं रुक्साना वांगडा पळून वचपाचें थारायल्लें म्हणून रायबंदर ते बांयगिणी मेरेन सगलो वाठार पांयां सकयल घालो. खंयच दोंगोर चडून देंवतकच महामार्ग लागना आनी सरदारजी ट्रक घेवन हे वटेन येवपाची शक्यताय कमी. 'अरे हम चोरयां भागेंगे तो किधर से भागेंगे?' हांवें रुक्सानाक विचारलें तेन्ना ताणें 'किधर से भी भागेंगे तो लफडाच' अशें म्हणून म्हजें तोंड बंद केलें.

वाटांचे प्रकार आसात आनी प्रकारां प्रमाण तांकां नांवां आसात. वाट, पांयवाट, रस्तो, महामार्ग बी. सायबांच्या भाशेंत Road, Way बी म्हणटात. तांणी सात समुद्र हुपून जळीं मळीं आपलें सामराज्य वसयलें. म्हणुनूच तांणी खंय खंय वचून केन्ना कितें पाड घालें हें इतिहासांत शिकतना ते थंय खंयचे वाटेन केन्ना पावले हें आमका शिकचें पडटा. कोलंबसाचे वाट चुकून लेगीत कल्याण जालें. ताणें अमेरिकेचो सोद लायलो. वास्को द गामा वाट चुकलो ना. ताचेंय कल्याण जालें हाचेर दुमत आसचे न्हय. आमी चलयेक (म्हजे खातीर) पळोवपाक गेल्ले तेन्ना चंद्रकांतान आमका दुसऱ्याच वाड्यार व्हरून सोडलें. हिच्या बापायन जे घराची तुळस पींक आनी येलो रंगान रंगायल्या तें आमचें घर अशी कुरू सांगिल्ली. तेन्ना मोबायल ना. कोलंबस, वास्को द गामा कंपास घेवन फिरताले. वाळवंटांत वाट सोदपाक चंद्राचो आदार घेतात. हांगा हांव तुळशीचो आदार घेत वाड्यार फिरपाक लागलों. वाड्या वयले लोक हांव अनवळखी जाल्ल्यान वेगळेच नदरेन पळयताले. कारण, हांव तांच्या आड्या वयल्यान बागोवन तांची तुळस पळयतालों. दोन तीन कडेन म्हाका खुरीस मेळ्ळे. दोन घरांनी म्हाका 'कलयकार आयला गेय' अशेंय म्हणिल्ल्याचें कानार पडलें. हांवें हरशीं हळदुवी बंडी आनी धवें कल्सांव घाल्लें. बुतांव देवानंदा भशेन गळ्या मेरेन लायिल्ले. निमणी म्हाका पींक आनी येलो रंगान रंगयल्ली तुळस मेळ्ळी. चंद्रकांताची गाडी फर्स्ट गियरान म्हज्या फाटल्यान येताली. बाकीची

मंडळी गाडयेंतूच बशिल्ली. हांवें चंद्रकांताक 'राव' अशी कुरू केली. बॉल्सांतल्यान मफलर काडलो गळ्याक बांदलो, नंबराचें वक्ल काडलें काळें गॉगल लायलें. आनी भितर सरलों. दारार टक टक केलें, मान लांब केली आनी भितर नदर मारली. इतल्यान, भितरल्यान कानाक ट्रांजिस्टर (जेटकींग) लावन एक अस्तुरी भायर आयली.

"बाय आसा घरांत?" हांवें गोगलाचेर तर्जनी दवरीत विचारलें. ही स्टायल हांवें काका कडल्यान (म्हजो न्ही. काका म्हणल्यार राजेश खन्ना) उखल्ल्या.

"कोण?" ती.

तिणें ट्रांजिस्टर बंद करू नाशिल्ल्यान हांवें कितें म्हणलां तें तिका घडये आयकूंक येवं नाशिल्लें.

"बाय. जंय पींक आनी येलो रंगान तुळस रंगयल्या ते घरांत रावता तें." - हांव, पींक आनी येलो रंगाचे तुळशी कडेन बोंट दाखयत.

तिणें आपली मान लांब केली आनी भायर नदर मारली. अशें करतना ट्रांजिस्टराची एरियल म्हज्या गॉगला भितर गेली आनी तें सकयल पडलें. तें गॉगल भगवतीच्या काल्याक घेतिल्ल्यान ताका कांय जालें ना. गॉगल काडपाक तिणें आनी हांवें वांगडा दिमी मारली, सिनेमानी नायक नायिका मारतात तशीं. दोगांयनी एकमेकाक पळयलें आनी गॉगलाक पळय नासतना हात घालो. आमच्यो तकल्यो सिनेमांत आदळटा तश्यो आदळ्ळ्यो.

"सॉरी."- ती.

"I am sorry too ditto." हांव.

हांवें गॉगल काडलें आनी परत नाकार दवरलें आनी काकाचे स्टायलीन ताचेर परत तर्जनी दवरली. (काका कोण तो परत आनी तुमकां सांगना).

"आमची तुळस पींक आनी येलो खरी पूण हांव बाय न्हय."

"कोण तर?"- काका गॉगलाचेर बोंट दवरीत.

"हांव सरीता. दीस भर रेडवो आयकत आसता म्हूण म्हाका सगळीं रेडयो सखी सरीता म्हणटात."

हांगा म्हाका कोलंबसा वरीच म्हजीय वाट चुकल्या म्हणपाची जाणीव जाली. कोलंबसान अमेरिकेचे भुंयेर पावल दवरतकच आपूण आशियाखंडांत पाविल्ल्याच्या थाटान सगल्यांक 'Indios' म्हणपाक सुरवात केली. हांवें हांगा रेडयो सखी सरीताक बाय समजुपाची चूक केली. म्हजो घात पींक आनी येलो तुळशीन मारिल्लो ही गजाल वेगळी. बाबड्या कोलंबसान कसल्या रंगाची तुळस पळोवन आपूण आशियाखंडांत पाविल्ल्याचो समज करून घेतलो हें कळपाक मार्ग ना. फुडें रेडियो सखी सरीताचें कितें जालें हें खूब जाणांक जाणून घेवपाची उमळशीक आसतली पूण तो आमचो विशय न्हय.

वाटो खूब आसतात. मनीस आपल्या कालेती प्रमाण एक वाट धरता. देखीक, गांधीजीन (बापू) सत्य आनी अंहिसेची वाट धरली. मागीर तांच्या फाटल्यान खूब जाणांनी तीच वाट माड्डिली. गांधीजी शिवराक जेवताले, बोकडेचें दूद पिताले, खाजूर खाताले आनी चरख्याचेर सूत कांतताले. दीस भर तांच्या काना कडेन धवे कपडे घालून कोण ना कोण 'वैशणव जन' गुणगुणत आसतालीं. हाचे वयल्यान गांधीन दाखयल्ले वाटेन वचप कितलें कुस्तार तें तुमकां कळ्ळांच आसतलें. जांकां गांधीचे पावलार पावल दवरून फुडें वच्चें आसा तांणी रिचर्ड एटनबरोचो 'गांधी' सिनेमां जेरूल पळोवंचो. तातूंत बेन किंगस्ली'न बरेंऽऽ काम केलां. म्हज्या आज्यान (आवयचो बापूय) हेच वाटेन वचपाचो बरो यत्न केलो ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल. गोंयांत बापून दाखयल्ल्या वाटेन वचपी तो एकमेव गोंयकार आसपाक जाय. गोंयांत सोय कांतपा खातीर खूब जाण आदोळेचेर बशिल्ले पळयल्या पूण गोंयांत सूत कांतपा खातीर चरख्यार बशिल्लो हांवें आयचे तारखेक तरी कोणाक पळोवंक ना. आज जेन्ना कोणाक चुकून गांधीजीची याद जाता तेन्ना चरखो व्हरपाक ते म्हज्या आजोळा येतात. फाटीं कार्नवालाक फ्लोटा खातीर कोण तरी चरखो घेवन गेले म्हूण मामा सांगी. आसूं. आमका व्हडपण नाका, विशय आयलो म्हूण सांगलें. गांधीजी बोकडेचें दूद पिताले म्हूण आज्यान गुळेली बोकडेच्या दुदाची लावण लायिल्ली. गांधीजी शाकाहारी म्हूण ताणें खंय तरी वाचिल्लें. ताका (आज्याक) कळपुटी सामकी प्रीय. हुमणांतली शेवट्याची बोडकी चोखून चोखून खावपी. हांगा मात ताका मातशे त्रास जाले.

"बापू आज गरवणेचें चणक मेळ्ळां."

असो शाबा हातांत चणक घेवन आंगणांतल्यान साद घालतालो तेन्ना आज्याच्या काळजाक पीळ पडटा आसतले अशें आजी चणक उजरायतना म्हणी. आज्याक चरख्यार बसता म्हूण वाड्यार बापू म्हणटाले, तुमचे म्हायती खातीर. सोड. गांधीजीन दाखयल्ले वाटेन वचप कितलें कठीण हें तुमकां आतां कळ्ळां आसतलें. दर खेंपे कळपुटी आड येता अशी ना. घडये बोकडेचें दूद मेळप कठीण जाता. आज बापुजीच्या पावलार पावल घालून वतलो म्हणल्यार बोकडेचें दूद गोंयांत खंयच मेळना. आसूं.

सदांच हे भुंयेर आमकां वाट दाखोवपाक बापू येतलो अशें ना. तेन्ना आयलो, देश परकीय राजवटी खाला आशिल्लो, ताणें दिका दाखयली, जालें. आज परत बापू येवपाची शक्यता कमीच. म्हणटकच आपणेच आपली वाट सोदून काडपाची पाळी आमचेर आयल्या. जेन्ना आमचेर कुटुंबीक स्वरुपाचें संकट येता तेन्ना तातूंतल्यान वाट आमकाच काडची पडटा. कोणूय अचकीत दनपारच्या कडार भितर सरलो जाल्यार दाळीच्या रोसान उदक घालून हे संकटांतल्यान आमीच वाट काडटात. हांगा बापूचे सत्याचे प्रयोग उपेगाक पडनात. ना आमचे धर्म ग्रंथ असले बिकट संकटांचेर भाश्य करतात. आमचो भगवान आमी मरतकच आत्म्याचें कितें जाता तें सांगता. जिते आसतना 'आमचा प्राण कंठाशी येतो' तेन्ना कितें करप हाचेर तो 'ब्र' काडना. सोड. वयले भगवान आनी भुंये वयले आमी तयार केल्ले भगवान हांकां सगलें माफ. तर, जिणेंत संकटां हीं येतलींच. तातूंतल्यान आमी वाट कशी काडटात हाचेर जिणेची सगली मांडणी आसता. 'रुक जाना नहीं तू कहीं हार के कांटो पे चलके मिलेंगे साये बहार के' ही पदाची वळ सदांच आमी मतींत दवरपाक जाय. गरीब मनीस बँकेचें रीण काडटा आनी गिरेस्तूय काडटा. गरीब हप्ते भरून थकता आनी केन्ना केन्ना जीव लेगीत दिता.

गिरेस्त हातूंतल्यान वाट काडटा आनी हवाई मार्गान देश सोडून वता. हे खातीर अश्या समयार आपली तकली थंड दवरप गरजेचें वाट आपशींच तयार जाता. आमच्या संडासाचें दार पावसान फुगता आनी लागना ही समस्या. हांवें संडासांत बशिल्ले कडेन थंड चित्तान चिंतलें आनी हातूंतल्यान वाट काडली ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. आतां भितर आसनाचेर बशिल्लो आपलें कार्य सिद्धीक वचऽ सर 'कोई आया धडकन कहती है धिरे से पल्कों की ये गिरती उठती चिलमन कहती है' हें पद जाता तितले वयले पट्टीन गायत रावता. मजरूह आज आशिल्ले जाल्यार आपले पदाचो असोय उपेग जावं येता हें पळोवन धन्य जातले आशिल्ले. ही समस्या हांवें आमच्या पंचाकूय सांगिल्ली. लोकशायेंत असल्या समस्यांचेर तोडगो ना तातूंतल्यान आमीच वाट काडची पडटा.

वाट आसा म्हणटकच वाट पळोवपी आसता, वाटेक दोळे लावन बसपी आसता. आतां कोण, केन्ना, कित्याक, खंय दोळे लावन बसत सांगू नजो. आदल्या तेंपार घरच्यो अन्नपूर्णा घरकार बाजारांत वतकच ताची वाट पळयत बसताली. ताका अपर्याय कारणांक लागून (यादी व्हड आशिल्ल्यान हांव कारणां हांगा सांगपाक बसना) सदांच उशीर जातालो म्हणटकच तीं रांदचे कुडींतल्यान भायर भितर करतालीं. 'खंय पावले हे? हांचें सदाचेंच!' अशीं स्वगतां पुटपुट्टालीं. 'आगे हें भाटकाराचें सदचेंच जाल्यार तूं वयर सकयल कित्याक जाता?' अशी वावराडी तांकां धीर दितालीं. ह्या वाट पळोवपा फाटल्यान कारण आसतालें. तिका घरकार नुस्तें कांद्याचें हुमण करपाक हाडटलो काय तेफळांचें हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. आज पणजे बाजारांत हांव, 'आगो सुंगटां घेतलीं गो', 'आगो बांगडे घेतल्यात गो' अशे घरकार (आपल्या) घरकान्नीक मोबायला वयल्यान सांगतना पळयतां. बरी संवय ती. घरकारूय खंयूय वचपाक मेकळो आनी घरकान्नूय नुस्त्या प्रमाण मिक्सरार वांटपाक मेकळी. आदल्या काळांत हे मोबायलूय नाशिल्ले आनी मिक्सरूय बी म्हणून अन्नपुर्णा घरकाराच्या वाटेक दोळे लावन बसताली आनी कित्या खातीर न्ही. आतां सगल्यो बायलो नुस्त्या खातीर आपल्या घोवाच्या वाटे कडेन दोळे लावन बसतात अशें हांव म्हणना. सिनेम्यानी घोवाच्या वाटेक दोळे लावन आपले दोळे तांबडे करून घेवपी नायिका आमी पळयतात. 'जरा सी आहट होती है तो दिल सोचता है कही ये वो तो नही' अशेंय बी ती म्हणटा. सगल्यांक एकेच तागडेंत जोकूं जायना तें हे खातीर. जेन्ना मनशा सामकार एका परस चड वाटो आसतात तेन्ना तो खंयचे वाटेन वचप हें चिंतून घुसपता. तेन्ना ताका मार्गदर्शनाची गरज आसता. केन्ना केन्ना तो प्रसाद लावन देवाचें मार्गदर्शन घेवपाक लेगीत फाटीं फुडें पळयना. हांव एसएससी जातकच म्हाका खंयचे शाखेक वचप तें कळना जालें तेन्ना आईन कवळ्यां वचून देवतेक प्रसाद लायलो. 'देवताय घुसपल्या' अशें बाबुली भटान आमका सांगलें. निमणें 'ताका जाय तें करुंदी' हें सांगपाक देवतेन एक वर घेतलें आनी बाबुली भटान एकावन रुपया. तेन्ना भटाचो प्रसाद लावपाचो रेट एकावन रुपया आशिल्लो तुमचे म्हायती खातीर.

लोकांनी माडिल्ले वाटेन वच्चे परस जे वाटेन कोणूच वचु ना ते वटेन वच्चें' अशें हांवें खंय तरी वाचिल्लें. गोंयकार भारतीय सेनेंत चड करून वचपाक सोदीनात. म्हणटकच म्हजो तातूंत भरती जावपाचो विचार आशिल्लो. 'तूं शिमेर आपलें रगत दिवंक सोदता खरो पूण तें रगत दिवपाक तुका आदी दोन बाटल्यो रगत घालचें पडटलें' अशें टायगरान म्हणटकच हांव फाटीं सरलों. मागीर हांवें पायलट जावंचे थारायलें. हांगाय गोंयकार कमीच. चंद्रकांता कडेन वचून गियरां बी कशीं घालतात हें गिन्यान हांवें घेतलें. मागीर कोणें सांगलें विमानाक गियरां बी लागना पूण नदर बरी लागता. म्हाका पांचवेंतूच दाट वक्ल लागिल्ल्यान थंयच्यानूय हांव फाटीं सरलों. कांय तेंप आयएयस जावपाचो विचार म्हजे मनांत घोळटालो पूण थंयूय खूब आडमेळीं आयलीं म्हणटकच हांवें तलाठी जावपाचें थारायलें. हें वाचून कांय कुच्छित्री हांसतले हें हांव जाणा. पूण तेन्ना आमच्या वाड्यार कोणूच तलाठी जावं नाशिल्लो म्हणटकच पयलो तलाठी जावपाचो मान म्हाका मेळटलो आशिल्लो हें म्हाका हांगा नमूद करचें शें दिसता. सोड.

कांय वाटो आमका प्रीय आसतात. ताचे फाटल्यान विंगड विंगड कारणां आसूं येतात. तिनसांज जाली की कांय जाणांची पावलां आपशींच जाय ती वाट ज्युस्त धरता. ती खंयची वाट धरता तो आमचो विशय न्हय. बायलांक कुळारची वाट प्रीय आसता. नवेंच लग्न जातकच न्हवऱ्याकूय आपले मावोड्यां वचपाची ओड आसता. मेवण्यो बी आसल्यार तिचे वांगडा फकांडां मसकऱ्यो बी करून वेळ बरोऽऽ वता. कांय तेंपान मेवण्यो लग्न करून दिल्ल्या घरा वतात. मागीर भावोजीचें मावोड्यां वचपाचें प्रमाण आपशींच कमी जाता. हाचें फाटलें नेमकें कारण म्हाका अजून मेळूं ना. कांय बायलां 'मैं तो भूल गई बाबूल का देस पिया का घर प्यारा लगे' अशेंय म्हणपी आसतात ना न्ही.

कोणूय कितेंय म्हणू जो मेरेन जिणेंत वाट पळोवपी आसा, आपल्या खातीर तिश्टुपी आसा तो मेरेन जिणेंत मजा आसा. देव लेगीत 'भावनाचा भुकेला आशिल्ल्यान' ताकाय बी आपले भक्त आपल्या खातीर तिश्टत राविल्ले आवडटा. आमका भट तिश्टायता आनी जेवणां तिनांक जाता ती गजाल वेगळी. आमचें श्रद्धा स्थान रामदास स्वामी (शुभ मंगल सावधान फेम) आपणें रचिल्ले आरतींत 'दास रामाचा वाट पाहे सदना' अशें गणपतीक (देड दिसाच्या) म्हणटा तें हे खातीर. शांता बाईय आपले गितांत वाट पळोवपी अस्तुरेचें सोबीत वर्णन करता.

'वाट बगून झुरते पिरती. मंग दरयाला येतंय् भरती. जाते पान्यानं भिजून धरती येतय भेटाया तसाच भरतार माजा'.

जेन्ना आमी खंयचेय वाटेन वता तेन्ना आमका वांगड मेळटलोच हाची शाश्वती नासता. वांगड मेळूना म्हूण आमी ती वाट चलपाची सोडची न्ही अशें व्हड मनशानी आमका सांगला. गुरुदेवान (जन गण मन फेम) 'एकला चोलो रे' अशें म्हणला. आमी वाट चलत रावले जाल्यार आमका फुडें वांगड मेळटलोच हो विश्वास गरजेचो. म्हणून मजरूह म्हणटात,

मैं अकेला ही चला था जानिब-ए-मंजील मगर
लोग साथ आते गये और कारवाँ बनता गया.

संपर्क: ९८५०५३०७५६



# भोबे, 'मासे आणि मी' आनी हांव!

गोपालकृष्ण अनंत भोबे हे गांवांन नेरूल गोंय हांगचे. तांचो जल्म ६ ऑगश्ट १९२० वर्सा. तांकां संगिताची खूब आवड. पूण घरची परिस्थिती कलेक पोसवण दिवपा सारकी नासली. रासवळ कुटुंबाचो एक ल्हानसो पसरो आनी कांय भाटांबेसां. भोबे हांकां संगीत, नाटक आनी चित्रकला हांची काळजा थावन आवड. पूण घरचीं मध्यमवर्गीय परिस्थिती. हाका लागून भोबे हांणी पिरायेच्या तेविसाव्या वर्सा म्हणल्यार १९४३ वर्सा, मराठी चार यत्ता आनी पुर्तुगेज चार यत्ता अशें शिक्षण पदराक घेवन मुंबयची वाट धरली. सुरवेक मुंबय हांगा नाटकाचे पड्डे रंगवप, चित्रकलेचो विंगड विंगड आंगाचों अभ्यास करप, नाटकांनीं कामां करप अशें ते करपाक लागले. थंयच तांची वळख नामनेचे मराठी नाटककार मो.ग. रांगणेकर हांचे कडेन जाली. उपरांत रांगणेकरांच्या भाचये कडेन तांचे लग्न जालें.



गोपालकृष्ण भोबे जल्मशताब्दी निमतान बरयल्लो लेख

जिणेंत खूब कितें करपाचो हांवेस आशिल्ल्या भोब्यान आपलें लक्ष लिखाणा कडेन केंद्रीत केलें. १९५८ वर्सा सावन तांणी चित्रकला, संगीत हाचेर समिक्षणां बरोवपाक सुरवात केली. साबार नेमाळ्यांचें चित्रां काडपाचें, समिक्षा बरोवपाचें काम तांकां मेळपाक लागलें. मुंबय आकाशवाणीचेर तांच्यो गाण्याच्यो स्वतंत्र कार्यावळी जावपाक लागले. आकाशवाणीचेर तांच्यो श्रुतिका, संगितीका, नाटकां आनी 'टॉक' वितरावपाक येवपाक लागल्यो. संगीत विशयाचे जाणकार म्हण तांची नामना महाराष्ट्रभर जावपाक लागली. तांणी इतल्याचेरच थांब नासतना साबार पुस्तकां बरयलीं.



तांणी एकूण अकरा पुस्तकां बरयलीं. तातूंत 'चतुरंग रेखा'-१९६१- (गोमंतक मराठी साहित्य संमेलन सुवर्ण पदक), 'आलाप'- १९६३, 'असा आहे माझा गोमंतक'-१९६४, 'पक्षी जीवन' (अणकार) १९६५, 'नाद'- १९६६, 'मासे आणि मी'-१९६६, 'धन्य ते गायनी कळा'-१९६९, 'कलात्म गोमंतक'- १९७२ 'सात स्वरश्री', 'शापीत गंधर्व' आनी 'भारताचे भाग्य विधाते' अश्या अकरा पुस्तकांचो आसपाव आसा.

तांणी नाटक बरोवपाच्या मळाचेरूय पावल घालें आनी संगीत सम्राट तानसेनाच्या जिणेचेर 'धन्य ते गायनी कळा' हें संगीतप्रधान नाटक बरयलें. जांबावलेचो दामोदर हो भोब्यांलो कुलदेव. थंय वचून तांणी हें नाटक बरोवपाचो संकल्प सोडिल्लो. नाटक पुराय जातगीर ताची संहिता घेवन कुलदेव श्री दामोदराच्या पांयां कडेन दवरपाक गेल्ले कडेन तांकां काळजाचो आताक आयलो. तो दीस आसलो १३ फेब्रेर १९६८ (माघ शुध्द चतुर्दशी १८८९).

फकत अठ्ठेचाळीस वर्सांचें जिवीत आनी उणेच धायेक वर्सांचो लिखाणाचो काळ. ह्या वेळा भितर तांणी अकरा पुस्तकां आनी हजारांनी पानां भरत इतलें साहित्य बरयलें. संगीत विशयाचेर इतलें खोलायेंन बरोवपी लेखक महाराष्ट्रांत आयज मेरेन जालो ना. २०२० हें तांचे जल्मशताद्बी वर्स! ज्या महाराष्ट्रांक ताणें आपली मरसर सेवा दिली, मराठींतल्यान साबार विशयांचेर बरयलें, त्या महाराष्ट्रांन तांच्या जल्मशताब्दी वर्साची सादी दखलय घेतली ना. इतलेंच कित्याक मराठींतल्या साहित्यिकांच्यो जल्मशताद्बी मोठ्या दबाजान मनोवपी गोंयच्या मराठीवाद्यांक ह्या कर्तववान गोंयकार पुताची याद लेगीत जाली ना हें आमचें दुर्दैव!

****

सगळ्या गोंयकारा भशेन हांवूय नुस्त्याचो भक्त. नुस्तें म्हाका फकत खावपाकच आवडटा न्हय तर ताचे विशीं वाचपाकूय आवडटा. नुस्त्याचेर कितेंय छापून आयल्यार मागीर तें म्हाका समजतल्या खंयच्याय भासांतलें जावं, हांव तें जे रुचीन आमी नुस्तें खातात तेच रुचीन वाचतां.

एक दीस म्हाका गोपालकृष्ण भोबे हांच्या 'मासे आणि मी' ह्या पुस्तका विशीं वाचूंक मेळ्ळें. बरोवप्यान अशे तरेचें हें एकूच पुस्तक म्हण त्या पुस्तकाची आनी पुस्तकाच्या लेखकाची तोखणाय केल्ली. पूण तांचे तें 'मासे आणि मी' हें पुस्तक हांवें गोंयांत सगळे कडेन सोदलें पूण म्हाका तें खंयच मेळ्ळें ना. हांवें म्हज्या गोंयां भायर मुंबय, पुण्याक राबितो करून आशिल्ल्या इश्टांक ते पुस्तका विशीं बरयलें. एक दीस अचकीत म्हज्या मुंबयच्या एका इश्टाक तें पुस्तक एका ग्रंथालयांत मेळ्ळें. ताणें तें रोखडेंच फोटो कॉपी करून म्हाका धाडून दिलें. पूण पुस्तकाचें कव्हर बी कांयच नासलें. म्हणटगीच तें पुस्तक कशें दिसतालें हाचो म्हाका कांयच अदमास लागना आसलो. पूण सगळे लेख मात शाबूत आसले. 'दुदाची तान ताकाचेर' आनी कितें? हांवें आदाश्या भशेन तें पुस्तक वाचून रोखडेंच सोंपयलें. उपरांत कांय वर्सांनीं साहित्यीक माधव बोरकारांक ह्या पुस्तकाची प्रत मेळ्ळी आनी तांणी म्हाका ती धाडून दिली. तो मेरेन म्हजो ह्या पुस्तकाचो अणकार जाल्लो. पुस्तक म्हज्या हातांत पळोवन म्हाका जी खोस जाली तिचें वर्णन हांव करूंक शकना. बोरकारांचो हांव उपकारी.

गोंयच्या नुस्त्याचेर, दर्या वेळींचेर, नुस्तें रांदपाच्यो खेरीत तरा आदी म्हायती अशी एकाच पुस्तकांत एकठायिल्ली तुमकां खंयच्याच भाशेंतल्या पुस्तकांत मेळपाची ना. मुळांत अश्या तरेचें पुस्तक आनी खंयच्याय भाशेंत आसत काय म्हण म्हाका दुबाव आसा. हें पुस्तक वाचतना भौन-भौन म्हाका दिसतालें भोबेनी हें पुस्तक कोंकणींत बरोवन उजवाडायिल्लें जाल्यार हें पुस्तक आनीकूय रुचीक जातलें आसलें. हें

पुस्तकाचो कोंकणींतल्यान अणकार करतलो म्हण थारायलें. पूण कांय कारणां खातीर अणकार करपाचो तसोच उरलो.

एक दीस हांव म्हजीं आलमारींतली पुस्तकां सारकी करतना अचकीत म्हाका गोपाळकृष्ण भोबे हांच्या 'मासे आणि मी' ह्या पुस्तकाची फ़ोटोकॉपी परतून हाताक लागली. ह्या पुस्तकाचो कोंकणींतल्यान अणकार केल्यार? भीत- भीत ह्या पुस्तकाचो अणकार करपाक हात घालो. कित्याक हातूंतलीं कांय वर्णनां म्हाका संवकळीचीं आसलीं. ह्या अणकार करपाच्या वावरांत हांव खूबच गुंतलो आनी अणकार करतना लेखकाच्या जाग्यार हांव म्हाकाच पळोवंक लागलों.

हे पुस्तकांत 'दर्या आनी हांव', 'तिसऱ्यो', 'खुबे', 'कुल्ल्यो', 'रांपण' आनी 'एकंदर' अशे पांच विस्तृत लेख आसात. दर्या देगेवयलें तांणी लागशिल्ल्यान पळयिल्लें जिवीत, नुस्त्याच्यो विंगड विंगड जाती, तांकां धरपाची कला, नुस्तें रांदपाच्यो पती हाचें सुरबुसतायेन वर्णन केलां.

ह्या पुस्तकांत निमणे कडेन भोबे बरयतात नुस्त्याचेर उलयतना अशें खूब जाणांक हांवें उत्तर दिलां. पोरण्यो यादी सांगत गेलों. रांदचे कुडींतलें नुस्त्याचें रांदपाच्यो पतीय धडधडीत सांगत गेलों. आयज सगळें एकदमच सांगन दिसलें; पूण दर्या खूब व्हडलो आसा. ताच्या पोटांत जें मेजूंक जायना अशें भांडार आसा ताचो थाव म्हज्या सारकेल्या वयल्या वयर पळोवपी मनशाक कसो लागतलो?

''हांगा हांव- म्हणजे जगांतले नामनेचे शास्त्रज्ञ जयंत नारळीकरांच्या भाशेंत सांगतलो जाल्यार- 'प्रचंड म्हासागर; त्या म्हासागरांत बुचकळपी एक पातमारी; त्या पातमारेंत एक कोठी; त्या कोठयेंत एक लाकडी पिंप; आनी त्या पिंपाच्या कडेक दशिल्लो एक भिकूण. हो भिकूण दर्याचो सोद घेता. हांव त्या भिकुणां परस ल्हान आसा.''

हें सगळें वाचतगीर भोब्यानींच तें कोंकणींतल्यान बरयिल्लें जाल्यार तें आनिकय सुरबूस जातलें आसलें हातूंत दुबाव ना.

हें भान दवरून हांवें एक-एक करून सगळे लेख अणकारीत केले आनी 'जाग' आनी 'बिम्ब' हातूंत उजवाडावन हाडले. जायत्या जाणांनी ह्या अणकाराची तोखणाय केली. सुरेश आमोणकार हांणी ते दुयेंत आसतना लेगीत म्हाका पत्र धाडून लेखांची तोखणाय केली आनी तस्रीप म्हण म्हाका 'मनाचे श्लोक' ह्या पुस्तकाचो तांणी केल्लो अणकारय धाडून दिलो. मनोहर धुंगट हांणी तर 'जागा'चेर खास 'पडसाद' बरयलो. त्या पडसादांत धुंगट बरयतात भोब्यांच्यो गजाली कोंकणींतल्यान चड रंगतात. मराठींत तें 'मत्स्यपुराण' जाता. कोंकणींतल्यान त्यो नुस्त्याच्यो गजाली बेस बऱ्यो लागतात.

थोड्याच दिसांनीं हो अणकार पुस्तक रुपांन उजवाडाक येतलो. नुस्त्या मोगी गोंयकारांक हें पुस्तक आवडटलेंच पूण नुस्तें खायनात तांकांय हें पुस्तक आवडटलें म्हणपाची म्हाका खात्री आसा. गोपालकृष्ण भोबे हांच्या जल्म शताब्दी वर्सांत तें उजवाडाक येवंचें ही समेस्त गोंयकारां वतीन म्हजीं तांकां आर्गां आसतलीं.

निमणे कडेन गोपालकृष्ण भोबे अंतरले उपरांत गोंयचे नामनेचे कवी र.वि.पंडीत हांणी ते समयार तांचेर बरयिल्ली कविता दिवन हो लेख सोंपयतां. ही कविता मनोहर धुंगट हांचे संग्रहांतली आसा.

***गोपालकृष्ण भोबे !***  
*कसलें गा गीत*  
*गायलें तुंवे*  
*तारीच तोडीत*  
*विणेच्यो!*  
*कसली गा चीज*  
*आयकली*  
*प्रसाद वांटीत*  
*जीणेचो!*  
*भजन तुजें*  
*रंगलें बेस*  
*प्राण पडले*  
*देवा पांयार!*  
*आमी मात*  
*नागवले*  
*काळजां आमचीं*  
*रगता -घायाळ!*

***- र.वि. पंडीत***

**सखाराम शेणवी बोरकार**
संपर्क: ९९२३३०६७५१

*(पान १४ वयल्यान)*

चड प्रभाव घालता, मागीर ते फिल्म जावं वा साहित्य. समाजाची चित्तवृत्ती अशीच निर्माण जाता. गंभीर साहित्य कांय लोकां भितर उरता पूण सामान्य वाचकां मेरेन हेच पोप्युलर साहित्य पावता. तांचे जिवन तांचे मुखार दवरता. हेच खातीर हे साहित्य वाचपाची आनी समजुवपाची आनीक गरज भासता. दुसरी आनीक एक म्हत्वाची गजाल आसा. एक काळ आशिल्लो जेन्ना आपलीं पुस्तकां उजवाडाक हाडप खूब कठीण आशिल्लें पूण आता लेखक आपली रचना लोकां मेरेन दवरूं शकता, सोशल मिडियाचेर पोस्ट करून जावं इ-बूक फॉर्मान जावं स्वता प्रकाशीत करून. आपलीं मतां, आपले विचार व्यक्त करपाक हांगा भाशेचे बंधन ना, भाशेच्या शुद्धतेचे बंधन ना, साहित्याची शास्त्रीय मापदंडां ना. फकत उकती सृजनात्मक अभिव्यक्ती आसा. जी सगळ्यां खातीर उकती आसा, आनी हाची गरज आसा आयच्या समाजाक. सगळ्यांच्या मतांक वालोर आसा. हाचे खातीर व्हडा प्रमाणान पाठक वर्ग आसा आनी संवसाराक पळोवपाची एक नवी नदर आसा, नवे प्रस्न आसात, नव्यो जापो आसात. जर हाची दखल घेतली ना जाल्यार युवक वर्गाचो आवाज उपेक्षीत उरतलो अशें म्हणूं येता.

''लप्रेक'' ह्यो दुसऱ्या प्रेमकथां सारक्योच प्रेमकथा. पूण तांची ट्रिटमेंट वेगळी. समस्या जुन्योच पूण तांचे क्राफ्ट वेगळें. ''इश्क आनी शार'' हांचो संबंद इतलो विलक्षण की लेखक नयनाच्या निमतान शाराचेर मोग करता करता मोगान शार जाता.

संपर्क: ७४९९१२९२८१

# कविता

## रंग मळबाचो घेवन ओलो

परेश नरेंद्र कामत

कुपां कुपांतल्यान आयलो पावस सरसरत
परतून एकदां

परतून एकदां
आयलें तूं भिजत
आनी रावलों हांव भिजत तुज्या सांगातान

भिजूंदी दोळे
भिजूंदी ओंठ
भिजूंदी थानां
भिजूंदी तुजी काळखी मेर खोल मेरेन
एकदां...

तूं भिजत राव
पावस झडत रावंदी खोल रूंवां रूंवांत
तुज्या हून स्वासांचे वेंगेंत
कोंब फुटून
तट्टून जागो जालों हांव परतून एकदां...

संपर्क: ९४२२६४०२१०



## भटाल्या ताटांतलें खतखतें

आकाश गांवकार

भटाल्या ताटांतलें खतखतें पळोवन
वावराडेक रूच आयली
मात भटान
वावराडेलो हांसो गिळून
आपली  भूक
भागयली.

संपर्क : ७३७८७६०४४१



## एक अश्वत्थामी अंत

आर. रामनाथ

तो जळटा सरणार... निरंतर
ताच्या पोंदाक जळटा
ताची बाटिल्ली मुस्तायकी
विटिल्लें हातरूण
उरिल्लीं वख्दां
आनी चिरंतन पिडा...

जळटा ताच्या पोंदाक
ताचें निरागस भुरगेंपण
ताचें हलाखीचें तरणेंपण
आनी अर्दी मर्दी जळटा
अनंत सासायेच्या पोकळेंत
अधांतरी हुमकळत राविल्लें
अनाकलनीय जाणटेपण...

जळटा ताचे वांगडा
ताका वेंग मारून आशिल्लें
ताचें जाय ते तेपाचें दुर्येस...

जळूं दी ताका शांत शांत
जळूं दी ताच्या वांगडा पंचतत्वांक
आनी ताका निर्मिल्याक लेगीत
पळोवंक दी ताका निवांतपणान
अधिकाधीक ख्रर जायत वचपी
ताच्या जीणेचें होमखण
आनी तातूंतल्यान अचळय चलत वचपी
ताचो आत्ममग्न आत्मो...

जळूं दी ताका शांत शांत नव्या उदेंतें
सयत...
पालवूं दी ताका शांत शांत नव्या अस्तंते
सयत...

आयज-
एक अश्वत्थामी अंत प्रलयांकीत जाला...

संपर्क: ९८५०४५८७६३



## आवाठ

मनोज नरेंद्र कामत

केदो आसता
मनशाचो आवाठ
कुडीचो, मनाचो, अहंपणाचो ?

बिजांतल्यान वाडिल्ल्या
जिवाचें कितलें
वजन, माप ?

खोशयेचें, धादोसकायेचें
मोल
दुख्राची, पिरंगणीची
ओल

जैताचें आवाक्या भायलें
वलय
हारीची गोठेल्ली बाविल्ली
लय

कश्टाच्या यामाची व्हांविल्ली
हुनसाण
आळसाची जडावल्ली शेणिल्ली
जाण

गिरेस्ताची भांगरा ल्हेवटेल्ली
आस
गरिबाची उदका घोटांतली
निरास

खेळ हो वेळाचो
शेणत वचपी वयाचो
जैताचो आनी हारीचो
नकळटना मातिल्ले वारीचो
नशिबाचे तागडेंत
आपणेंच आपणाक जोखपाचो





## दिसता म्हाका

सुप्रिया कुष्टा काणकोणकार

दिसता म्हाका
तुज्या नदरेंत बुडचें
खोलायेंत वचून
तुज्या काळजा मेरेन पावचें.

दिसता म्हाका
म्हज्या श्वासांत तुजे श्वास गूंथचे
जिणेचें ल्हवपीक सूख
तुज्यांतल्यान अणभवचें

दिसता म्हाका
तुजे ओंठ चिंवचे
मोगाचे सगळे स्वाद
म्हज्या ओंठार खेळचे

दिसता म्हाका
तुज्या वेंगेंत रिगचें
सुखाच्या उबेंत
सपनांचें फूल फुलचें.

दिसता म्हाका
हें सगळें जावंचें
मन म्हजें सासणाचें
फकत तुजेंच जावन रावंचें...



## मागणें सैम प्रतिनिधी कडेन

प्रकाश द. नायक

झाडा कडेन मागन हांव
मातयेंत खोल रिगपा खातीर
तळव्यांक मुळां दी
कण कण वेंचूंक पाळां दी
तळा थळा आंतरजाळां दी

आंगाक निबर चिलखताची
वातडवयणी साल दी
वत वारें सोंसपाची धाल दी
मनां संवेदनां ओल दी

ताळटांतल्या रेयांवरी
वाडटी चडटी वाल दी
आमोरेक घोसाळेचें फूल दी
मुठींत रंगबेरंगी शब्दूल दी

कातीक ल्हंवे कणकणी
नवे नवे फागूर दी
सातरंगी कोर दी
इंद्रधणुचो मोर दी

उतराक म्हज्या शब्दकळ दी
गोड म्होवाळ फळ दी
रसाळसो गंध परमळ दी
तुजीच शक्त आनी बळ दी

संपर्क : ९८५०४५३३५५



## कसो तरी

अशोक भोंसलो

उपाट मोग केल्ल्या दुखावलेल्ल्या
काळजाक कसो तरी समजयता
पावसांत कुडकुडटल्या सैमाक
दोळ्यानी कसो तरी समजयता.
सांगातान सोपूत घेतिल्ल्या
तिस्क्या वेल्या
पेडाक कसो तरी समजयता
सदांच आमोरेर पेडामाणयेर बस म्हूण
पिंपळ कसो तरी समजयता.
सपनांत तरी सोबीत मोगऱ्या हळी
माळ गो म्हूण कसो तरी समजयता
फांत्यार साकर न्हीद मोड जायत म्हूण
शितळ परमळ कसो तरी समजयता.
उदेंतेक तांबडो गुंज सुर्यादादाक
अदर्य ओंपूक कसो तरी समजयता.
कडकडीत वतांत मोगाची मलमली
ओडणी सोड म्हूण कसो तरी
समजयता.
सांज वेळार ल्हारांगाच एकार एक
खळखळायतात म्हूण कसो तरी समजयता
वेंगेंत बसून गोडगळ्यान उतरां म्हजी
तुर्वे गावची म्हूण कसो तरी समजयता.

संपर्क : ९९२३८०३१५८



## आशावाद

सरस्वती दामोदर नायक

मनीस आशेरूच जगता
मनशाचे आशावादी आसप केन्नाय बरेंच
आशावाद ताच्या जिणेक घटसाण हाडटा
कश्टांचेर दुखण्यांचेर विसर घालून
जीण फुलोवन प्रसन्न करता

पूण जेन्ना मनशाची आशा
हिसपा भायर वाडटा
तिका ल्हेवटेपणाची कोमंरी येवन
हापापलेपणाची फुलां फुलतात
तेन्ना कुसमेंवंक लागता ताची जीण
स्वार्थाच्या दर्पान तकली भेरेवन
सूख लेगीत ताका तोपूंक लागता

आशावादी चिंतनान तळपां फुटून
शितळ वझरे यडटात
हापापलेपणान जित्या वजऱ्यांची सुकून
पाडी वाळवंटां जातात





